# यात्रीक

पुर्तुगेज बरोवपी आल्मेद गाऱ्हेत हांच्या
“ फ्रेय लुईज दे सौज ”
हया नाटकाचो अणकार



शान्ताराम अनन्त हेदो

जाग प्रकाशन



जाग प्रकाशन : २१

शणै गोंयबाय जल्मशताब्दी वर्स प्रकाशन : ५

जानेवारी १९७७



मोल : पांच रुपया

उजवाडावपी :

सुमन्त रामचंद्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय
४०३ ४०४

छापपी :

य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव,
पुणे ४११ ०३०

जिणें आपल्या जाणटेपणांत
म्हजेकडल्यान ह्या नाटकाचीं
कितलिंशींच पारायणां करून घेतलीं
ते म्हजे आईक—

# वळख

आल्मैद गाऱ्हेत हो १९ व्या शेंकडयांतलो एक नकसूद पुर्तुगेज कलाकार आनी तोलामोलाचो एक शूर राजकर्णी. साअित्य, नाटय सारक्यो नाजूक कला आनी राबस राजकारण हांचो सुमेळ एका मनशांत कसो जावंक पावत असो एक प्रस्न पयल्याच फाराक मनांत आयलेबगर रावना. पुणून गाऱ्हेतान केल्ल्या वावराचो नियाळ करतकच तागेली जीण म्हळयार दोन पदरी सोबीत सुंदर गोफ अशें दिसून येता. ह्या गोफाचो एक धागो म्हळयार तागेलें साअित्य आनी हेर कला आनी दुसरो म्हळयार तागेलें तत्त्वीक आनी प्रत्यक्ष राजकारण. हे दोनय धागे एकामेकांत गच्च घुसपून गेल्ले, पुराय एकरूप जाल्ले. कलेच्या अविश्कारांतल्यान तो आपल्या राजकी असंतोशाचें उदात्तिकरण करतालो. त्याभायर ह्या दोनय धाग्यांक प्रेरणा दिवपी आनी तांची एकामेकांत सांगड घालपी आनीक एक प्रबळ शक्त आशिल्ली आनी ती म्हळयार, तागेली आपल्या देशावयली अंतपार नाशिल्ली स्रद्धा आनी मोग. साअित्याच्या मळार जशे ताणे पद्याचे आनी गद्याचे सगले प्रकार हाताळ्ळे–तशींच ताणे आपल्या देशाचे लोकशाही घटनेचे बांदावळीपासून एका झुजारी शिपायकामेरेन सगलीं कामां पोटतिडकेन केलीं. ह्या तागेल्या अफाट वावराची तुळा फकत सोळाव्या शतकांतलो " Lusiadas " म्हाकाव्य रचपी लुईज दे कामोंइश हाचेकडेनच करूंक जायत.

गाऱ्हेताचो जल्म १७९९ त, म्हळयार फ्रेंच राज्यक्रांती उपरान्त फकत धा वरसांनी जालो. हे क्रांतींतल्या होमखणांतल्यात भायर फुटून आयिल्ल्या समताय, स्वतंत्रताय आनी बंधुताय सारक्या उदार तत्त्वांचो धग येवरोपांतल्या खूबशा राजेशायी बराबरच पुर्तुगालचे राजेशायीकय बादलो. पुर्तुगेज जनतेन आपल्या देशांतले एकतंत्री राजवटीआड बंड केलें, राजसत्त्या आपल्या हातांत घेतली, नवी घटना तयार केली आनी जबाबदार राज्यपद्धत आपणायली. अचकीत उपराशिल्ल्या ह्या भोवशीक उद्रेकान पुर्तुगेज सरकार सुरवेक भांबावन गेलें आनी ताणें नवे घटनेक मान्यताय दिली. पुणून फुडें दोन तीन वरसांनीच तें संघटीत ज़ालें. नवी घटना अमान्य केली आनी परतें आपलें एकतंत्री राजेशायिचें पेरगांव घालें. हाचो परिणाम असो जालो कि पुर्तुगेज जनतेंत दोन तट पडले : उदारमतवादी ( Liberals ) आनी एकतंत्रवादी ( Absolutists ). दोनय वटेन ल्हान व्हड लोकांच्या रगताचे पाट व्हांवले. हो आपघातकी आनी

पाडो देखाव पळोवन कांय शाण्यासुर्त्या लोकांच्या तोंडांतल्यान उद्गार भायर पडले: Portugal ninguem levara, mas por si acabara ! म्हळयार, " पुर्तुगाल कोण व्हरचो ना, पुण आपुणच सोंपतलो ! " ह्या झगडयांत दोनय पंगडांक वोता–पावसाचो खेळ जाल्ल्यावरी जैत आनी हार मेळटाली आनी ताचो लाव दोनय वटेनचे राजकर्णी आपल्याक जाय तसो घेताले. अशें तरेन ही भावा-भात्रांमदली धोंस तीस-बत्तीस वरसांमेरेन चल्ली आनी अखेर १८५२ ह्या वरसा दोनय पंगडाचे मान्यतायेन नवी राज्यघटना पास जावन हें झगडें संपुश्टांत आयलें.

अशे हे परिस्तितीनच गान्हेताक आपलें साअित्य रचूंक चडशी स्फुर्त आनी प्रेरणा दिली. ताणें पळेलें कि नाटक आनी नाट्य हें भौखाच्या मनाचेर परिणाम करपाचें बेस बरें साधन. देखून लोकांच्या मनांत राश्ट्रीय प्रेम जागोवंक, तांच्या मनाक स्वतंत्रतायेविशीं ओड लावंक, तांकां जाल्ली हीणगंडाची बादा ना करून उडोवंक ताणें ह्या साधनाचो खूब उपेग करून घेतलो.

गान्हेताचें भुरगेपण Porto शाराचे कुशीक आशिल्ले एके घरचे बागायतींत गेलें. थंय ताची जतनाय घेवपी तागेले मावशेन आनी हेर जाणट्या बायलांनी ताका तरेकवार लोकां-काणयो, लोकगितां, भुतां-खेतांच्यो आनी शकून-अपशकु-नांच्यो गजाली बी सांगिल्ल्यो. गान्हेत पिरायेन जरी ल्हान आसलो तरी ताची बुद्द खूब वाडिल्ली. ल्हानपणांतल्या ह्या गजालिंचो ताच्या मनाचेर खोल परिणाम जालो आनी लोक-काव्याविशीं ताच्या मनांत बारिकसाण आनी आवड निर्माण जाली. तागेल्या " फ्रेय लुईज दे सौज " ह्या नाटकांत जो भुताचो प्रसंग आयला वा शकून-अपशकुनाच्यो ज्यो गजाली आयल्यात तांचें मूळ ह्या लोकवेदांत आसा. गान्हेताच्या जायत्या टिकाकारांनी ह्या भुताची लागणूक शेक्सपियरच्या 'हॅम्लेट' नाटकांतल्या भुताकडेन लागल्या. पुण ती खरी न्हय. शेक्सपियरालीं नाटकां आनी गान्हेतालें " फ्रेय लुईज दे सौज " हातूंत खूब मुळावे फरक आसात. एक म्हळयार हया नाटकांत खलपुरूश ना; उमाळ्यांची अतिशाय आनी भडक रंग नात; सुडाची भावना ना; परतें जाल्यार सगल्या पात्रांक एकमेकांविशीं पुराय सहानुभुती. फकत हया पात्रांच्या एकांमेकां भितल्ल्या लागणुकांक लागून एक विशिश्ट आनी तंग परिस्तीत निर्माण जाता आनी ही परिस्तीतच प्रेक्षकांची आतुरताय एकासारकी वाडयत रावता आनी तांकां बशिल्लेकडेन खिळावन दवरता !

मुळावें शिक्षण जातकच गाऱ्हेतीन आपलें नांव पिरायेच्या सतराव्या वरसाचेरच कोइंब्राचे फांकिवंत युनिव्हेर्सिदादींत घालें. पिरायेच्या १३ वरसांचेरच बरयल्ली Xerxes नांवाची शोकांतिका तो बराबर घेवन गेल्लोच. त्याभायर तागेलें Lucrecia नांवाचे शोकांतिकेचो पयलो प्रयोग थंयच जालो. उपरान्त Merope नांवांची आपली दुसरी शोकांतिका ताणे थंय बरोवन काडली आनी Catao हे शोकांतिकेचें मुळावणूय थंयच घालें.

१७८९ ह्या वरसा जाल्ले फ्रांसेस राज्यक्रांतिचो हुंवार आनी तांतुतल्यान आकार घेतिल्ल्या लोकशायेचीं उदार तत्त्वां हाणीं तो मोहीत जालो आनी संद मेळत तेन्ना तांचो प्रचार आनी प्रसारय करूंक लागलो. ताच्या कामांचेर प्रभावीत जाल्ल्या लोकांमदीं १४ वरसांची एक तरणी बायलमनीस आशिल्ली. तिचें नांव लुईजा मिंदोसी. ही तरनाटी गाऱ्हेताचेर सामकी भाळून गेल्ली. इतले म्हणसर गाऱ्हेतान आपलें शिक्षण सोंपोवन बॅरिस्टरची पदवी घेतली. आनी तो लिजबो-आक आयलो. थंय त्या दोगांचेंय लग्न जालें. पुण हें लग्न सुखी जावंक पावलें ना. परिणामाक, दोगांय वेगळीं रावंक लागलीं! १८३९ ह्या वरसा तांच्या वेगळेचाराक धर्मीक मान्यतायय मेळ्ळी. ह्या वेगळेचाराचीं कारणां समजनात. पुण अितलें खरें कि गाऱ्हेत हो हाडाचो कलावंत जाल्ल्यान लहरी आशिल्लो. तो Adelaide Deville हिच्या मोगांत पडिल्लो. १८३७ ते १८४१, ती सोंपमेरेन हें प्रेम चलिल्लें. दोगांयच्या प्रेमाचें फळ म्हणून आपल्या फाटल्यान अडेच वरसांची एक चली दवरून अखेरेक ती गेली.

ह्या सगल्या घडणुकांनी गाऱ्हेताच्या मनार खोल परिणाम केलो. हें ल्हान भुरगें नाशिल्लें जाल्यार ह्या संवसाराच्या वादळांत गाऱ्हेताचें वायटय जावंक येतालें. कांय काळ ताणें राजकारण बी सगलें सोडलें आनी रावत्या घरांतल्यान पांयय भायर काडलो ना! ताका आत्मकेंद्रीत जावंच खूब उसरपत मेळ्ळी आनी हे उसरपतिंतल्यानच जागतीक नामनेचें Frei Luis de Sousa ह्या नाटकान १८४३ त रूप घेतलें. आपले जिणेंतले अणभव, सोंपिल्ले–सरिल्ले मोगाचे खीण, जळजळीत देशाभिमान हांचो ह्या नाटकांत ताणें खूब उपेग करून घेतिल्लो आसा.

"फ्रेय लुईज दे सौज" नाटकांतली नायिका मादालेना ही दोन खेपो लग्न जाता. तिगेलो पयलेपणांतलो घोव दों जुआंव हो आल्कासेर किबीरच्या झुजांत

आपल्या हेर वांगडयांबराबर आफ्रिकेंत सोंपता अशी पुर्तुगालाक वदंता पावता. मादालेनाच्या काळजाक धसको बसता आनी ती सात वरसांमेरेन ताचो सोद चलयता. पुण कांयच उपेग जायना. दों जुआंव जितो आशिल्ल्याची इल्लीय नाट मेळना. अखेरेक ती मानुयेल दे सौज नावांच्या सरदाराकडेन दुसरेपणांत लग्न जाता आनी ह्या नव्या संबंदापासून तिका एक चलीय बी जाता. तिचें नांव मारी. इतलेंय जालें तरी मादालेनाक आपलो पयलेपणांतलो घोव जितो बी नासत मूं? आनी तो जितो आसून एक दिसा घरा परतलो जाल्यार कशें जायत? आपल्या संवसाराचें कितें जातलें? आपले चलयेक कितें दिसतलें? ह्या हुसक्यान इल्लेंय सूख नासता. पुण हातुंतलें कांयच ती मारीक कळूंक दिना. तिका हयो गजाली समजत जाल्यार ती जीव पसून सोडींत अशी तिका भिरांत दिसता.

हीच भिरांत गाऱ्हेताक आपले दुसरे बायलेपसून जाल्ले चलये संबंदान आशिल्ली. ताका आपले चलयेच्या फुडाराचो हुसको लागिल्लो. गाऱ्हेताची पयली बायल जरी ताका सोडून गेल्ली तरी ती पारीस शारांत जियेताली. आपले चलयेक–तिचेंय नांव 'मारी'च–हयो सगल्यो गजाली गाऱ्हेतान लिपोवन दवरिल्ल्यो. पुण घडपाचें तें घडलेंच! आपल्या बापायची पयली बायल अजून पारिसाक जियेता हें तिका कांय वरसांनी समजलेंच आनी तिणें लजेन आपली फुडली जीण घराचे बंदखणींत कोंडून काडली. नाटकांतल्या 'मारी'चें पात्र रंगयतना गाऱ्हेताच्या दोळयांमुखार ताची धूव आशिल्ली हें तांगेल्या टिकाकारांनी मान्य केलांच.

१९ व्या शेंकडयांत येवरोपांत साअित्याच्या मळार एक नवो विचार, एक नवी चळवळ उदयाक आयली. तिचें नांव "रोमेंटिझम". आल्मैद गाऱ्हेत हो पुर्तुगालांतल्या रोमेंटिझमचो फुडारी. सुरवेक ताणें Merope, Catao सारक्यो आपल्यो कांय शोकांतिका पुराणे क्लासिकल धर्तीचेर बरयल्यो. पुण उपरांत Camoes सारकें खंडकाव्य, Folhas Caidas ("गळिल्लीं पानां") आनी Flores sem Fruto ("फळां नाशिल्लीं फुलां") सारके उमाळयांनी थपथपिल्ले कविता–झेले बरयले. तागेलीं कांय नाटकां म्हळयार Um auto de Gil Vicente, Dona Filipa de Vilhena आनी O Alfageme de Santarem. पुण तागेल्या सगल्या नाटकांचो मुकुटमणी म्हळयार मात तागेलें संवसारभर किर्त जोडिल्लें Frei Luis de Sousa.

" फ्रेय लुईज दे सौज " ह्या नाटकाची वळख म्हाका लिसेव शिकतना जाली. सगल्या नाटकाची न्हय तर जाका नाटकाचो कळस म्हणूंक फावता अशा दुसऱ्या आंकांतल्या निमाण्या भागाची. ह्या भागांत मादालेनाचो पयले-पणांतलो घोव दों जुआंव हो यात्रिकाच्या रुपान परतता आनी मादांलेनाची भेट घेता. त्या वेळार मादालेनान ताका भावार्तिपणान केल्ले प्रस्न आनी यात्रिकान तिका तोपून दिल्ल्यो जापो वाचून तेन्ना म्हज्या मनाचेर खोल परिणाम जाल्लो. आनी उपरांत मादालेनाच्या देराक दुबाव मारून जेन्ना तो ताका विचारता : " यात्रिका, यात्रिका, तूं कोण ? " तेन्ना यात्रीक मन घट करून शांतपणान जाप दिता : " कोण न्हय ! " म्हळ्यार आपूण मादालेनाचो घोव आनी घरचो धनी आसून तुर्ताक कोणच न्हय अशा गर्भीत अर्थाची जाप दिता. ही जाप आयकून तर म्हजें आंग शिरशिरिल्लें !

फुडें हांव ट्रेनिंग कॉलेज्जांत गेलों आनी ह्या नाटकाचो परतो अभ्यास करपाची म्हाका संद मेळ्ळी आनी तो प्रो. रामचंद्र शंकर तथा प्रो. राणू नायक हांच्या हाताखाला जालो. म्हणटकच तो कितल्या अधिकारान आनी चिकित्सायेन जालो हें सांगपाची गरज ना.

उपरांत हांव मडगावांत रावंक आयलों तेन्ना " संस्कृति विकास पुष्पमाला " हे संस्थेच्या वरवीं तेन्नाच्या सारस्वत ब्राह्मण समाजांत ता. १४।१२।१९५८ ह्या दिसा म्हगेलें ह्याच नाटकाचेर कोंकणींतल्यान एक उलोवप जालें. हेवूय सभेचे अध्यक्ष आशिल्ले प्रो. राणू नायकच.

तेन्नाच्यान हें नाटक म्हजे तकलेंत घोळटालें आनी ताचो कोंकणींत अणकार करचो अशें म्हज्या मनांत एकासारकें येतालें.

आयज अितल्या वरसांचें म्हगेलें हें सपन खरें जाता आनी " यात्रीक " ह्या नांवान हो अणकार उजवाडाक येता. हाचें चडशें स्रेय म्हजो अिश्ट श्री. रवींद्र केळेकार हांकां फावो जाता. " कोंकणी भाशा मंडळा "चे अध्यक्ष श्री. उदय भेंब्रो, नाटककार श्री. आरीश्तु गांवकार आनी वर्तमानपत्रकार श्री. फलीसियु कार्दोजु हांकां हो अणकार हांवें वाचून दाखयलो आनी सगल्यांनीच अनुकूळ मत्त दिलें.

" जाग प्रकाशना "चे श्री. सुमंत केळेकार हांच्या संबंदान कितें सांगचें ? ताणीं तर हक्कानच हें नाटक छापून घेतलां.

हांव ह्या सगल्या अिश्टांचो खूब खूब उपकारी आसां.

मडगांव, १ जानेवारी १९७७ **शांताराम अनंत हेदो**

## सवगांची वळख

| | | |
|---|---|---|
| मानुयेल दे सौज कौतिन्य | : | पुर्तुगालच्या एका फाकिवन्त घराण्यांतलो सरदार |
| मादालेन | : | मानुयेल दे सौजाची बायल. |
| मारी | : | मानुयेल दे सौज आनी मादालेनची धूव |
| जॉर्जि | : | मानुयेल दे सौजचो भाव |
| यात्रीक | : | दों जुआंव दे पुर्तुगाल |
| तेल्मु पाइश | : | दों जुआंवचो चाखर |

त्याभायर

बेंफिवचो स्वामी आनी हेर पाद्री आनी मिरांद आनी हेर चाखरमाने

---

## खेळ करतल्यांक म्हत्वाची सुचोवणी

'यात्रीक' ह्या खेळाचो प्रयोग माचयेर करूंक सोदतल्यांनी तो करचे पयलीं बरोवप्याची मान्यताय घेवंची पडटली.

---

# पयलो आंक

## देखाव पयलो

[ पयलीं काळच्या घराचें एक साल. तरेकवार उंची आनी सोबीत वस्तुंनी न्हेसयल्लें. विलोदा--सेदासारक्या लुगटाच्यो गादयो, गिरदन्यो आनी उशीं. तसल्याच लुगटाचे दारांक आनी जनेलांक पड्डे. चिनी मातयेच्यो तबकडयो आनी फुलदाणयो. फाटले वणटीक दोन व्हडलीं जनेलां. जनेलांतल्यान तेजु न्हंय आनी न्हंये पलतडच्यान लिजब्रोअ शार दिश्टी पडटा. फाटले वणटिच्या दोनय जनेलांमदीं उब्यांनी आशिल्ल्या एका जुवान सरदाराचें पायनेल. सरदारान काळो पोशाक केला आनी ताचे छातयेर धव्या रंगाचो एक खुरीस आसा. हाचे वयल्यान ताणें आपली जीण धर्मीक वावराक ओंपल्या अशी सुचोवणी मेळटा. फुडले वटेन आनी माचयेच्या तोंडार एक ल्हानशेंच मेज. ताचेर लांब गळ्याची एक चिनी फुलदाणी, कांय पुस्तकां, विणिल्ले मेय आनी रेंदां. ह्या भायर फावो त्या जाग्यार पयलिंच्या मोदिंचीं कदेलां, वोलतेरां, तांबरेती बी मोबील. प्रेक्षकांचें दावे वटेन भायर सरपाची वाट आनी उजवे वटेन घरांत भितर सरपाची.

संवगां : मादालेन, एकलीच. पुस्तकाचे आरमारी म्हन्यांत बसल्या. पांय एके गादयेचेर सोडल्यात. मांडयेर एक उकतें केल्लें पुस्तक. तिणें वाचपाचें मदींच सोडून दिलां. पुस्तकाचेर हात दोडल्यात आनी वाचिल्ल्या कांय वळींचेर ती खोल विचार करता.]

**मादालेन** : ( निकत्योच वाचिल्ल्यो कांय वळी शितिदार नाशिल्लेवरी आनी सवकास पुटपुट्टा. )

या....२

वाडट्या वया फळां चोखीत
सुख–समाधानांत गुल्ल तूं
सुख हें गोटयायेदें फटकिरें
खिणांत सोंपचेलें
खिणांत भंगपाचें !

सुख खंय फटकिरें आनी गोटया येदें. जायना बावडें. पुण निश्कळंक मनान तातूंत गुल्ल जावंक मेळप हे केदें व्हडलें भाग्य ! मागीर तें खिणांत सोपूं ना जाल्यार खिणांत भंगूं. इल्लो वेळ तरी तें पुराय भोगूंक मेळप हेंच जाल्यार म्हज्या मत्तान ह्या संवसारांतलें व्हडलें सुख. जें उरता तें सरता आनी जें जियेता तें मरताच. पुण म्हज्या संबंदान पळेयात ! कितल्या हुसक्यांत आनी कसल्या धसक्यांत हांव हे दीस सारतां ! ताका मात हातूंतलें कांय कळना जाल्यार पुरो ! एक घडीभर पसून तागेल्या शीम सर्त नाशिल्ल्या मोगाचें म्हाका सुख घेवंक मेळना ! ( सुस्कारून ) कितलो हो मोग आनी कसलो हो भोग ! (परतून खोल विचारांत पडटा. थोडो वेळ क्रिण्ण जाता. )

## देखाव दुसरो

[ मादालेन आनी तेल्मु पाइश ]

**तेल्मु :** ( मादालेना म्हऱ्यांत वेता, पुण तिका ताचें भान नासता. ) मादालेन-बाय वाचतात काय कितें ?

**मादालेन :** ( भानार येवन ) आं ? कोण ? तूं तेल्मा ? ना, वाचना. काळोख जायत आयलो. सारकें दिश्टीय पडना. पुण भोव बरो हो ग्रंथ आं. तुमगेलो आवडटो.... तो आमगेलो ग्रंथ !

**तेल्मु :** ( ग्रंथाचेर नदर भोंवडावन ) बायलांनी वाचपाचो ग्रंथ तसोच दादल्यांनय बी. सगल्यांकच उपकारा पडसारको ग्रंथ हो. फकत " देवालें उतर " हो पवित्र ग्रंथ सोडलो जाल्यार ह्याचेसारको दुसरो ना. पुण तो पवित्र ग्रंथ समजुपाची तांक म्हाका ना. कित्याक, म्हाका लातीं भास समजना म्हज्या धनयांभाशेन-म्हळयार बाब मानुयेल दे सौजा भाशेन. तो जाल्यार मात... व्हडलो बरपाक्षरीच तो. तेच तरेचो तागेलो बापूयय बी जावन गेलो. हांव ताका भोव बरो वळखतालों.

व्हडलो मनीस. खूब बरें बरोवपी आनी फडफडीत उलोवपी. त्याभायर एका सरदाराक फावोसारके आनी सोबसारके आंगांत हेरय गूण. पक्कदस्त आनी कडक. ते तरेचे मनीस आतां दिश्टी पडनात. पुण हें सांगात पळोवया, " पवित्र ग्रंथा " सारके नामनेचे ग्रंथ एके गिर्वाण भाशेंत आसप–जी भास चडकरून सगल्यांकच समजना– म्हळयार कितेंशेंच दिसना तुमकां ? म्हाका जाल्यार ' नव्या मार्गार ' रावतल्या त्या इंग्लेज व्यापाऱ्याली म्हणणी बेस बरी मानवता. तांगेल्या गांवांत खंय अशे तरेचीं हीं पुस्तकां ते लोक थंयचे भाशेंत बरोवंक लागल्यात. पुण थुमेकाल ! तो वेपारी म्हाका दिसता, ते जर्मनींतल्या वा इंग्लंडांतल्या नव्या धर्मपंथांतलो एक बंडवालो नासुये मूं ? तुमकां कशें दिसता ?

**मादालेन :** हें पळे तेल्मा, म्हाका कसलोच उपदेश करपाचो ना. तूं जाणाच कि जायत्या तेंपासावन, ज्या वेळार....

**तेल्मु :** खूब फाटली खबर ती ! खूब पोन्नी ! तो तेंप दुसरे तरेचो आशिल्लो !

**मादालेन :** खरें तुजें ( सुस्कारता ) तेन्ना म्हजें भुरगेपण आशिल्लें. मारीपरस मातशें व्हड आशिल्लें हांव.

**तेल्मु :** ना, मारी बरेंच वाडलां.

**मादालेन :** हय, मारी बरेंच वाडलां खरें. आनीं ह्या दोन म्हयन्यांत तर चडच.

**तेल्मु :** कित्याक वाडचें ना ? सामकीं तेरा वरसां भर जालीं ताका. म्हळयार बायलच जाली म्हणूं जाता ( कुशीन ) तें आनी पोर खंय बायल !

**मादालेन :** ( दोळ्यांतलीं दुकां पुसून ) तुका चड जाय तें तेल्मा ?

**तेल्मु :** हें आनीक कितें विचारतात ? ताचेसारकें भांगराचें पोर ! कितलें शिटूक, कितलें बुदवंत. आनी काळीज तर....

**मादालेन :** हारशाभाशेन निवळ. म्हज्या काळजाची धूव ती ! ( थांबता. ताळो बदलून ) पुण हें पळे तेल्मा, तुका हांव परतून सांगतां ...पुण तें कशें सांगूं तेंच म्हाका समजना. इतल्या ल्हानपणासावन वळखतां तुका हांव ! म्हगेल्या पयलेपणांतल्या लग्नासावन ! तेन्नाच्यान तुजेकडेन भौमानान पळोवपाची म्हाका संवय जाल्या. तेन्नाय तूं आयच्या सारकोच आशिल्लो. हुशार आनी धीरवान ढालदार; लागशिल्ल्या सोयऱ्याभाशेन, सामको घरचो मनीस आनी तुगेल्या धनयांचो खूब वरसांपसूनचो विस्वासाचो इश्ट.

**तेल्मु :** पुरो करात. हांव किते किते आशिल्लों ताचो म्हाका उगडास करूं नाकात !

**मादालेन :** ( आपलो अपमान जाल्यावरी ) कित्याक? तेन्नाचे सारको आतांय बी तूं तसोच, घडीभर चडच, ना काय किते? तुगेल्या पयलिंच्या मानमरातबांत जावं, ना जाल्यार तुजेवेल्या विस्वासान जांव, किते उणें जालां? म्हगेल्या पयलेपणांतल्या घोवाचो-दों जुवांव द पुर्तगालचो-तूं चड मोगाचो आनी तोखणायेचो. तांच्या आत्म्याक सर्गार शांती आनी किर्त मेळूं अशें हांव मागतां !

**तेल्मु :** ( कुशीन आनी उरफाटयांनी ) मेळटली !

**मादालेन :** त्या मोगांत, ते तोखणायेंत तुमचें किते कुस्कुटभर तरी उणें जालां ?

**तेल्मु :** ना सायबिणी, ना !

**मादालेन :** तर मागीर....?

**तेल्मु :** कांय ना; फुडें उलयात तुमी.

**मादालेन :** जालें तर. म्हणटकच सांगपाचें म्हळ्यार अशें कि अमके कर, तमकें नाका अशी बुद्द तर म्हज्यान तुका दिवंक न्हजच. तेन्ना हुकूम कशीं फर्मायतलीं? पुण तुजेकडेन एक मागतां. तुवें मारीचेर आपली बरीच छाप बसयल्या. आनी हें पळोवन, खरें म्हळ्यार, आमकां दोगांकय खोस भोगता. तुजें तिचेर इतलें वजन आसा कि ती तुज्याभायर कांयच पळेना, किंतेच आयकना आनी कांयच खरें मानिना. तूं म्हळ्यार तिका ल्हानपणासावन सांबाळूंक दवरिल्ली जशी काय एक आयाच. देखून म्हाका दिसता तुवें तिचेकडेन अशो तरेन आनी असल्यो गजाली उलोवच्यो न्हय.

**तेल्मु :** कसल्यो गजाली? त्या इंग्लेज व्यापाऱ्यान सांगिल्ल्यो त्यो काय किते? तांगेल्या देशांत खंय "पवित्र ग्रंथ" तांगेले भासेंत बरयल्लो आसा. आनी हांगा मात....!

**मादालेन :** हय, हय त्योच गजाली. आनी हेर जायत्यो. व्हडल्यो व्हडल्यो. तिचे पिरायेक फाव नाशिल्ल्यो. चड करून दादल्या-बायलांच्यो. ताका तरेतरेन विचारून घेवपाची खूब बारिकसाण आसा. ती म्हगेली एकलीच धूव. आनीक भुरगीं नात म्हाका. केन्नाच जालीं नात ! त्याभायर तूं पळेताच. घटमूट अशें

मुरगें न्हय तें.

**तेल्मु :** हय, सामकें नाजूक. पुण घटमूट जातलें. लिजबोआचे रोगी हवेंतल्यान मात ताका दुसरेकडेन व्हरूंक जाय. मागीर तुमी पळेशात तें दुसरे तरेचें जाता काय ना तें.

**मादालेन :** अपुर्बायेची, म्हगेल्या काळजाची धूव ती !

**तेल्मु :** आनी म्हज्याय बी. मादालेनबाय, तुमकां उगडास जाता जाल्यार पळेयात, पयलिंपयलीं म्हज्यान त्या भुरग्याकडेन पळोवंक पसून नज आशिल्लें. सामकें नदरेमुखार नाका आशिल्लें तें म्हाका. कित्याक तें खबर आसतलेंच तुमकां ! म्हज्या म्हन्यांत आयलें जाल्यार ताचेकडेन कसले नदरेन पळेतालों तें हांवच जाणां ! त्या खातीर देवाक मात वायट दिसना जाल्यार पुरो ! मागीर–मागीर तें म्हज्या दोळयांमुखार वाडूंक लागलें. आपल्या त्या घिसघिशीत दोळयांनी पळोवंक लागलें. म्हजेकडेन लाळेगोळे करूंक लागलें आनी दिसानदीस तें इतलें सुंदर, भोव बरें आनी लापीट जायत चल्लें कि तुमी आतां पळेतातच ताच्या बापायपरसय चड जाय तें म्हाका.

**मादालेन :** ( वोठांत हांसत ) हें आनी बाये आयकात !

**तेल्मु :** तुमचेय परस चड.

**मादालेन :** भंगूं पळोवया तेल्मा.

**तेल्मु :** हयवय, सगल्यांपरस चड. तुमी पळेशात. तें कोणाक चड जाय तें कळपाचो वेळ रोखडोच येतलो असो म्हाका भास जाता.

**मादालेन :** ( हुसक्यान ) बरें बाबा तुगेलेंच खरें. जालें? पुण तुगेले ते लोकांक हुसक्यांत घालपाचे भास, शकून, अपशकून कुशीन दवर. आमकां फुडल्यो गजाली नाकात.

**तेल्मु :** खरेंच नाकात. त्यो व्हडल्योश्यो बऱ्यो न्हय.

**मादालेन :** फाटल्योय बी नाकात.

**तेल्मु :** हय, त्योयी तश्योच.

**मादालेन :** आमीं सद्याचें कितें तें पळोवया. मारीक इतली बुद्द आसा....

**तेल्मु :** सगलें समजता ताका.

**मादालेन :** जाय ताचे परसय चड.

**तेल्मु :** हय केन्ना केन्नाय.

**मादालेन** : ताका जाग्यार हाडूंक जाय.

**तेल्मु** : तेंच हांव करतां.

**मादालेन** : ताका कित्याकितेंय सांगूक फावना.

**तेल्मु** : सांगचेल्यो न्हय अश्यो गजाली ताका हांव केन्नाच सांगना. एका बऱ्या घराण्याचे चलयेक फावो नाशिल्ल्यो. आनी....आनी....

**मादालेन** : आनी कितें ?

**तेल्मु** : आनी बऱ्या संबंदांपसून जाल्लें चली.... जाय आशिल्लें न्हय ? आयकात तर.

**मादालेन** : तेल्मा, तुवें पळे म्हजो हो छळ चलयला तो देवाक मात मानल्यार पुरो. ( घस्स करून रडूंक लागता. )

**तेल्मु** : ( हें पळोवन तटास जाता. दिमी मारता आनी तिच्या पायांक हात लावन ) मादालेन, बाय मादालेन, म्हजे धनिणी, म्हाका शिक्षा करात; ख्यास्त भोगयात म्हाका. ही जीब्र ताळ्यार येना. ती कातरून उडोवंक लायात. मारी तुमची धूव. तुमची आनी ह्या देशांतल्या–न्हय, आख्या इश्पान्य प्रदेशांतल्या–एका फाकिंवत घराण्यांतल्या मनशाची–मानुयेल दे सौज कौतिन्याची धूव. आमची बाय मारी, म्हगेली अपुर्बायेची मारी म्हळयार व्हिल्येन आनी सौज ह्या दोन नितिवंत घराण्यांचें रगत. ताच्या जल्मांचें व्हडपण सांगूंक हाचे परस कितेंच चड सांगपाची गरज ना.

**मादालेन** : पुरो कर तेल्मा, एक फावट मातसो वोगी राव.

**तेल्मु** : ( हुडकेत ) बाय, म्हजे भोव बरे मादालेनबाय !....

**मादालेन** : ( दोळे पुसता. मन घट करता आनी गंभीर ताळयान उलयता. ) ऊठ तेल्मा, आनी हांव सांगतां तें बरेभाशेन आयक. आयज पयले आनी निमाणे फावट तुजेकडेन अशे तरेन आनी ह्या विशयाचेर हांव उलयतां. तूं म्हळयार म्हगेल्या पयलेपणांतल्या घोवाचो–दों जुआंव दे पुर्तुगालचो-गुरुचे सुवातेर आशिल्लो एक इश्ट. तेच बराबर जांकां ल्हानपणासावन हांव बापायचे सुवातेर मानीत आयल्यां अशा म्हज्या मांवाचो तूं बराबरचो आनी खांद्याक खांदो लावन वावर करपी वांगडी. फुडें म्हाका दुसरेपणांत ह्या नांवाजल्या घराण्याक हाडली. तेन्नाच्यान आमच्याच कुटुंबांतल्या एका मनशाभाशेन तुका हांवें मानलो आनी बाकिंच्या बराबर तुजेकडेनय ओडीन चलूंक लागलीं. घरांतल्या खंयच्याय

मनशापरस म्हज्या मनार तुजो छाप चड पडलो. तुवें म्हजेर चड परिणाम घडयलो. ह्या संवसाराचो तुवें घेतिल्लो अणभव; बऱ्याबऱ्या मनशांच्या आनी पुस्तकांचे संगतीन तुवें मेळयल्लें गिन्यान आनी ह्या सगल्यांपरस चड म्हळयार दिसान-दीस तुगेल्या अंतस्करणाची म्हाका जाल्ली चड चड वळख, हाका लागून हांव तुजेकडेन दिशीं दिशीं चड ओडूंक लागलीं आनी ह्या घरांत तुका इतली सत्त्या दिली कि ती पळोवन लोकांक अजापच जालें.

तेल्मु : सुदारात तर आतां ती तुमची चूक.

**मादालेन** : ना सुदारना आनी तशी म्हाका गरजय दिसना. पुण हांव आतां कितें सांगतां तें मात बरे भाशेन आयक. जेन्ना हांव एकली जालीं, आफ्रिकेंतल्या झुजाचो तो तसो दुखेस्त शेवट जावन हांव एकली एकसुरी आनी घोव नाशिल्ली बायल जालीं तेन्ना तुवें म्हाका आलाशिरो दिलो. तेन्ना हांव फकत सतरा वरसांची; आनी आधार असो म्हणपासारको कोणाचोच नाशिल्लो. तेन्ना बापाय भाशेन म्हजेर तुवें नदर दवल्ली, अपुर्बाय केली आनी धीर दिलो. हांवेंय बी धुवेभाशेन तुजें उतर सकयल दवल्लें ना. तुवें सांगिल्लें सगलें आयकलें. मात तुजी एकच म्हणणी आयकली ना.

तेल्मु : पुण मादालेन बाय, तीच म्हत्त्वाची आशिल्ली. ती तुमीं आयकल्ली जाल्यार.... !

**मादालेन** : पुण ती म्हजे शक्ती भायली आशिल्ली. दों जुवांव दे पुर्तुगाल आनी तांचो बापूय आमच्या तन्न्याधाटया लोकांबराबर सोंपले (हीं उतरां आयकून तेल्मु पिकार जाता) तेन्ना हांवें कसो आकांत केलो, तांचे यादिची दीस-रात कशी पुजा केली हें तुमी जाणांतच. तांच्या मरणाचे खबरीचेर विस्वास दवरी नासतना लोकांच्यो सांगण्यो आनी गवायो फट मानून सात वरसांमेरेन बेरबेरीच्या सगल्या कडांनी, माऱ्होकांतल्या बंदखणिंनी आनी अरबांल्या बाजार-पेठांनी तांचो सोद चलयलो. सगली शक्ती आनी युक्ती खर्चिली. पैशाकडेन इल्लेंय तोंड पळेलें ना. पुर्तुगालच्या आनी इस्पान्याच्या कारभाऱ्यांक तांचो बारिकसाणेन सोद करात अश्यो सांगण्यो गेल्यो. तांगेल्या मरणा संबंदान दुबाव येवपाची ना जाल्यार तें फट थरपाची कसलीय कुरू मेळत जाल्यार तिच्या फाटल्यान लागून खरें-फट कितें तें थारायत अशी जो जो पाद्री, जावं वेपारी, खंयच्याय देशांत रिगत ताका शिटकावणी दिली. पुण इतलेंय सगलें फुकट गेलें आनी

आल्कासेरचें झूज सोंपतकच रोखडीच जी वायट खबर हांगा पावली तिच्या संबंदान कोणाकच दुबाव उल्लो ना !

**तेल्मु** : पुण म्हाका उल्लो.

**मादालेन** : तुजो दुबाव म्हळ्यार तांच्या विस्वासाच्या एका कारभाऱ्याचो दुबाव. तांचेर मोग करतल्या एका खऱ्या इश्टाची भोळी आस्त. ती तूं पोट-तिडकेन उलोवन दाखयता खरो पुण म्हज्या काळजाक मात ती पिडापीड दिता. त्याभायर एके काडयेचोय तेंको नाशिल्लो दुबाव तो. ना जाल्यार एक फावट सडसडीत मेकळेपणान म्हाका सांगून उडय पळोवया, खंयच्या आधाराचेर उलो-वन दाखयता तूं हो–सात आनी चवदा म्हळ्यार एकवीस वरसांचो–विस्वास ?

**तेल्मु** : ( गंभीर जावन ) लडाये – दिसा फांतोडेर ताणीं बरयल्ले चिटयें-तल्या उतरांचेर. ती चीट ताणीं फ्रेय जॉर्जिकडेन दिल्ली आनी ताणीं ती तुमचे-कडेन पावयल्ली. " जितो ना जाल्यार मरतकच ... " घट्ट उगडास आसा म्हाका ते चिटयेंतल्या उतरान उतराचो. " जितो नाजाल्यार मरतकच, पुण मादालेन, एक फावट तरी तुका हांव येवन मेळटलोंच. " अशें आशिल्लें न्हय ते चिटयेंत ?

**मादालेन** : हय !

**तेल्मु** : जितेपणांत काय तो आयलो ना. कांय नज. पुण मरतकच तरी ? ताचें भूत तुमकां केन्ना दिश्टी पडिल्लें ?

**मादालेन** : ( भिरांतीन गुळी जावन ) कितें म्हणटा तूं ? देवा म्हज्या !

**तेल्मु** : ना, अजून तें तुमकां दिश्टी पडूं ना जातलें.

**मादालेन** : ना, खरेंच ना !

**तेल्मु** : ना म्हणून हांवय जाणां. तुमचेर तांचो जीव, म्हणटकच पयलीं तो तुमकांच भेट दितलो आशिल्लो हातूंत दुबावच ना. पुण ह्या म्हाताऱ्याकय बी एक फावट दिश्टी पडल्याबगर तो रावचो नाशिल्लो हाची म्हाका खात्री आसा.

**मादालेन** : देवा, तूं म्हाका पाव ! तेल्मा, तुज्या म्हणपांत कांय अर्थ ना हें हांव बरे भाशेन जाणां. अशें आसुनय तुज्या उतरांची म्हाका भिरांत दिसले बगर रावना. म्हाका आनिकय त्रासांत घालूं नाका.

**तेल्मु** : त्रासांत ? कसले त्रास ? जाचेर तुमचो मोग आसा, सगल्यां परस चड मोग आसा, अशा मनशाचे संगतींत आनी वेंगेंत तुमी सुखी नात व्हय ?

म्हज्या बावड्या धनयाक तुमीं मान दिलो, भौमान दिलो, आदर दिलो, भक्ती दिली. एके बरे कुळयेचे गुणेस्त चलयेक सोब सारकें तुमीं सगळे दिलें. पुण मोग !

**मादालेन :** तो दितलो म्हळयार दिवंक येना आनी घेतलो म्हळयार घेवंक येना ! मोग दिवप–ना दिवप हें आमच्या हातांत ना तेल्मा !

**तेल्मु :** तें खरें. देखुनच म्हाका नसाय जाता. म्हज्या धनयाच्या सब्बावाचो कस तुमकां खबर आसाच. तांकांपसून केन्नाच दिसचो नाशिल्लो इतलो तांचे वरवीं हांव तुमचो मत्सर करतां. हें कोडू आसलें, तरी उगडें नागडें सत्य आसा. हें चल्लां तें म्हज्यान उकत्या दोळयांनी पळोवंक जायना. खन्यांनीच जायना. हांव तें पळोवपाचो, पचोवपाचो यत्न करतां, संवंय करतां, पुण अजून तें म्हज्या आंगवळणीं पडना. मानुयेल दे सौज हो एक धीरवान, व्हड अंतस्करणाचो आनी खरो जातिचो पुर्तुगेज. पुण म्हजो धनी म्हळयार निजाच्या सरदारी गुणांचो हारसो. ताची सर कोणाकच येवपाची ना. हाय, हाय, म्हज्या उदार आनी भोव बऱ्या धनयां !

**मादालेन :** जायत, तुजें म्हणणें खरें आसत–न्हय तें सगलें खरेंच अशें समजुंया. पुण तूं बरे भाशेन येवजून पळे; तुका सगलें समजता. हांवें निमाणें मानुयेल दे सौजाकडेन लग्न जावपाचें थारायलें तें आमच्या दोनय घराण्याचे मान्यतायेनच न्हय ? खाशा म्हगेल्या पयल्या घोवाच्या कुटूंबांतल्या सगल्या मनशांचे मान्यतायेन तांकां म्हजी कितली तोखणाय तें तुका खबर आसाच. हे गजालीक आयज चवदा वरसां जालीं. आमीं दोगांय निश्कळंक मनान, शांततायेन आनी सुखान संवसार करतांत. देवा दयेन आमकां एक सुंदर आनी बुदवंत अशी चली आसा आनी तिचेर तर आमचो सामको जीव. तुजी पसून तिचेर इतली सत्या कि आमच्याय परस आपल्याक ती चड जाय अशें तूंच म्हणटा.

**तेल्मु :** ( उरफाठ्यांनी ) ना, ना, म्हाका नाका ती !

**मादालेन :** जायच. चड बरें जालें. आमकांय हें पळोवंक खोस भोगता. पुण तोच तूं एकासारको आनी बळयांच जाल्लेवरी ह्या पिशेपणांच्या कल्पनांची भुतां मातयत आसता. असल्या ह्या भुतांची इल्लिशी सावळीपसून ताका आडखळत जाल्यार ताचें अस्राप आनी निर्मळ मन खतावतलें आनी ताच्या आवय बापायच्या नांवलोकिकाकय सदांकाळची बादा येतली. ( हें आयकून तेल्मु काचाबूल जाल्ल्यावरी दिसता. ) सांग पळोवया, आपल्या हातांतल्यान एक कितली

वायट गजाल घडटा हाचो विचार तरी तुवें केला ? म्हाका बेस बरें खबर आसा, म्हज्याभायर आनीक कोणाकडेनच तूं असल्या ह्या विशयाचेर उलयना. पुण तुगेलीं हीं तरेतरेचीं गूढ उतरां, आमच्या नशीबफुटक्या दों सेबाश्तियांव राजाविशीं तुवें केल्ले तर्क, ताच्या मर्णाचेर विस्वास नाशिल्ले ताचे भावार्ती प्रजेक लेखून तुवें सांगिल्ल्यो खबरो, आमच्या घराण्याचेर येतल्या संकश्टासंबंदान तुका जाल्ले अपशकून ह्या सगल्या तुगेल्या करण्यांनी त्या पोराचें पयलींच सोदपी मन आनिकय सोदूंक लागतलें. आनी कोण जाणां, ज्या अरिश्टासंबंदान तुज्या मनांत पसून दुबाव आसुंये त्या अरिश्टाचेर तें विस्वास दवरूंक लागतलें आनी हाचो ताच्या जिवाचेर पसून वायट परिणाम जातलो. म्हाका अजाप जाता तें हें कि खरें फट किते तें जाणां आसुनय ह्या कल्पनांचें भूत मातोवपांत आनी सदांच तें हुमकळत दवरपांत तुका कसलें दुखदिणें सुख भोगता तें म्हाका समजना. तूं बरे भाशेन पळे, एक फावट हो भिरांकूळ दुबाव जर ताच्या मनांत रिगत जाल्यार तो कोणाच्यानच काडून उडोवंक जावचो ना. आनी तशें जाल्यार, देवा, ताचें कितें जातलें, आमचें कितें जातलें ? नाका, तेल्मा, ताका वगडावं नाका, म्हजे धुवेक मारूं नाका !

**तेल्मु :** ( मादालेनाचें उलोवप चलता आसतना तेल्मु सकयल वयर जाता. तो तजविजेर पडटा आनी ताच्या मनांत भिरांत उदेता. मागीर आपले भितरच उलयता. )– खरेपणांनीच तें जीव सोडटलें. पुण तें मरूंक फावना ! ना, तें मरचें ना. ना, ना, ना, तीन खेपो ना. ( मादालेनाक ) मादालेनबाय, ढालदारपणाच्या इमानाचो हांव सोपूत घेवन सांगतां, म्हजें हें तोंड परतें उकतें जावंचें ना आनी म्हजो मेंदू... तो ग्रूय सदांच धांपिल्लो आसतलो ( कुशीन ) हरशीं हें शक्य ना. पुण त्यां भांगरासारक्या भुरग्याक हांव वांचयतलों ( मोटयान मादालेनाक ) जालें म्हजें सांगून. दिलें तुमकां उतर.

**मादालेन :** देव तुजें बरें करूं. ह्या विशयाचेर उलोवपाचो आमचे जिणेंतलो हो निमाणो दीस.

**तेल्मु :** सामको निमाणो.

**मादालेन :** बरें तर. आतां अशें कर. मारी कितें करता तें मातशें पळे. चल, ताणें चड वाचिल्लें, शिकिल्लें बरें न्हय. ( तेल्मु वचूंक वेता. ) आनी हें पळे,

ताका मात्शें सांव पावलांत पावयशी ? तुका फावना जाल्यार कोणाय वांगडा धाडून दिल्यार आता.

तेल्मु : दोमिनिकाच्या कोंव्हेंतांत मूं ? मागीर फावचें ना कित्याक ? चार पावलांची वाट.

**मादालेन :** आनी म्हज्या देर भावोजीक–फ्रेय जॉर्जिक सांग, मानुयेल लिज-बोआंक गेल्लो तो अजून परतो येवंक ना. देखून म्हजो जीव सारको ना. ताणें सांजेर पावतां म्हणिल्लें. पुण, आतां तर रात जायत आयली. तरिकय ताची कसलीच खबर ना. जसो जसो वेळ वेता तसो तसो म्हजो हुसको वाडटा अशें ताका म्हण. ( भायर व्हारांदाचेर वेता आनी न्हंयेकडेन पळेत ) आहाहा, वारो कसो शितळ आनी दरया कितलो शांत ! आनी हो सांजवेळ तर व्हंकले भाशेन भोव सुंदर आनी लजेस्त. खरें म्हळयार, खर असो वारो नाच. आसात तीं न्हंयच्या उदकाभाशेन वाऱ्याचीं मंद मंद ल्हारां. तीं जाल्यार आंग सांसपितात आनी कातकुतल्यो करतात. आनी न्हंयचे फाटीर उफेतात तीं ल्हान ल्हान व्हडीं ! तांतुतल्या एकाद्र्या सुंदर सोबीत व्हडयांत म्हजो मानुयेक आसत काय ? पुण ह्या दिसांत तेजु न्हंयेचेर पातयेवपाचें ना. हां हां म्हणटां केन्ना उत्तरेकडलो वारो व्हांवंक लागत आनी तिचें हें रूप बदलत तें सांगूं नज. आनी ह्या काश्तेल्ल्याच्या तोंकार तर....तसो तो हुशार तांडेल हातूंत इल्लोय दुबाव ना. वोगीच माल्ताचो शिलेदार न्हय तो ! ( ताच्या पायनेलाकडेन मोगान पळेता. ) ह्या खातीर म्हाका भंय दिसता अशें न्हय. म्हजे भिरांतिचें कारण दुसरेंच. लिजबोआंत अजून प्लेग आसा. थंयचें रोगी उदक–वारें अजून निवळूंक ना. त्याभायर थंय राजकी उलाढालींचेय वारे व्हांवतात. ते केन्ना कोणाक बादत तें सांगूं नज. पुर्तगेज आनी काश्तेल्ल्यान हांचेभितल्ले तिडीक लागून दोगांय भितर आत्र्या पयऱ्यान झगडीं उपरासतात. आनी मानुयेलाचो सबाव तर चड मानी देखुनच म्हाका ताचो चड हुसको जाता. चल, चल, तेल्मा, फ्रेय जॉर्जिक सडसडीत वचून मेळ आनीं म्हजो हुसको पयसावपासारकी तांकां कसलीय खबर कळ्ळया जाल्यार पळे.

## देखाव तिसरो

[ मादालेन, तेल्मु आनी मारी ]

( मारी हातांत फुलां घेवन तेल्मा म्हऱ्यांत येता आनी ताका ओडीत मुखार हाडटा. )

**मारी :** शाब्बास, अर्दे वर जालें, हांव भायल्या दारा एकासारकी तुजी वाट पळेत आसां आनी तूं आपलो खुशाल हांगा खबरो करीत? पयलीं बरोच वेळ हांव भोंव भोंव भोंवलीं. मागीर न्हंयेंत तरेकवार ल्हान व्हड व्हडीं पेंवतात तीं पळेलीं; अशे तरेन तुजी वाट पळेत हांवें कितलो वेळ काडलो म्हणून सांगूं? आनी तूं मात हांगा चकाटां मारीत? म्हगेलें तुका कांयच पडून वचुंना, न्हय? तें कांय ना. तुवें म्हाका दितां म्हणून सांगिल्लें ते कादंबरिचें फुडें कितें जालें? ती लडायेविशिंची न्हय आं!

" एकामेकांफुडें मांडून आसात
दोनय बळिश्ट झुजपी दळां. "

अशें जियेंत बरयल्लें आसा ती न्हय. दुसरी. जियेंत त्या गुपीत जुंव्याची खबर सांगल्या ती. त्या जुंव्यार खंय अजून दों सेबाश्तियांव राजा जितो आसा न्हय? आनी एक दीस खंय तो दाट धुक्यांतल्यान येतलो. खरेंच, दों सेबाश्तियांव मरूंक ना, न्हय गे आई?

**मादालेन :** बाय मारी, तुगेलें एक एक विचारप म्हळयार कितेंशेंच! तें कितें आनी कशें घडलें म्हणपाचें तुवें तुगेलो काका फ्रेय जॉर्जि आनी लोपु सौज हांचे कडल्यान आयकूंक ना? लोक बावडे सादे भोळे, ते दुख्खांत सुख मानूंक कसलेय गजलिचेर विस्वास दवरतात.

**मारी :** लोकांचें उलोवप म्हळयार देवालें उलोवप आं, आई. इतलो जर ते भावार्त दवरतात, तर तातूंत खऱ्याचो भाग आसतलोच. पुण म्हाका गूढ पडटा तें हें कि ह्या घरांत कोणाकच आमगेलो धीरवान आनी मोगाळ राजा दों सेबाश्तियांव जितो आसा हें आयकूंक बरें दिसना. एकलोच आमगेलो जाणटेलो तेल्मुकाका सोडलो जाल्यार–( ताका लाळया–गोळयांनी घस्टता आनी सांसपिता) हेंच पळयात. म्हगेलो बापूय म्हळयार सामको खांपो पुर्तुगेज. ताका

कास्तेल्ल्यान दोळयामुखार सोंसनात. तागेलीं तांच्याआड उलोवणीं आनी करणी शिमेभायर जातात अशी पसून लोकांत वदंता आसा खंय. पुण तो पसून तें आयकून तजविजेर पडटा. कोणाकच खरें दिसचें ना हें; ताचें रूप बदलता आनी तो सामको काळो काळो जाता. जसो काय तो राजा जितो उल्लो आनी परतो आयलो जाल्यार आपलें कितेंय वायट करीत! पुण....घडये तो कास्तेलाच्या फिलीप राजावटेन नासत मू आई ?

**मादालेन :** आगो पापया मारी, तुजे पिरायेक फावो नाशिल्ल्या गजालीं-संबंदान तूं दीसभर हुसको कित्याक काडीत बसता म्हणून कोण जाणां! हेंच पळोवन म्हाका आनी तुज्या बापायक खूब हुसको जाता. तुवें खुशाल रावचें, पोटभर हांसचें, खूब खेळचें अशें आमकां दिसता. आनी तुज्या वयाक फावो नाशिल्ल्यो...

**मारी :** पळेलें? पळेलें? म्हगेले आवयकय बी ती गजाल रुचना. पळेयात कितली भियेल्लेवरी जाली. आनी हें कितें? रडुंकय लागली ती! ( आपले रडटले आवयक वेंग मारता ) थुमेकाल! आई, नाका, नाका. तेल्मा, तूं चल पळोवया हांगाचो. म्हाका ते लडाये संबंदान जावं, वा आनीक कसल्याय संबंदान जावं, कसलीच खबर नाका! कितेंच आयकप-उलोवप नाका. आई !

**तेल्मु :** खरेंच नाका. हे मुखार आनीक कितेंच उलोवप नाका. हांव जाल्यार चल्लों हांगाचो ( मारीचे हात सांसपीत, कुशीन ) कशे पळे ताचे हात भाजतात आनी पोले तांबडे गुंज जाल्यात. हें ताचे बावडे आवयक कळत जाल्यार!

## देखाव चवथो

[ मादालेन आनी मारी. ]

**मारी :** म्हज्या मनाक एक व्हड खंत भोगता आनी ती कसली तें जाणां तूं ? पुण तूं म्हजेर उबगना मू ? दोळयांतल्यान दूक काडना मू ?

**मादालेन :** ना गो, तुजेर हांव केन्नाच उबगना आनी तुजें म्हाका कसलें वायटय बी दिसना मारी. कितें म्हाका तुज्यासंबंदान जाता जाल्यार तो हुसको. एके तरेची भिरांत...

**मारी :** आनी हेंच म्हजे खंतिचें कारण. म्हाका लागून तुका दीसभर हुसको

काडचो पडटा हें पळोवनच म्हाका त्रास भोगतात. म्हाका कांयच जावं ना गे. हांव बरें आसां. खरेंच, घटमूट आसां हांव, आई.

**मादालेन :** जांव आं, आनी फुडेंयबी सदांकाळ तशेंच उरूं. तुगेल्या आवय-बापायचो तुजेर जीव आसा. तांकां सुख, समाधान आनी आधार दिवंक देव तुका उदंड आयुश्य दिवं.

**मारी :** सगली रात म्हज्या दोळ्याक पाती लागना. आनी सगलो वेळ हांव घोंकणेंतच आसतां. तुमची म्हजेर आशिल्ली एकासारकी [नदर; तुमच्यो म्हजे विशिंच्यो ल्हान ल्हान करण्यो; कानार पडिल्लीं कांय कांय उतरां; ह्या सगल्या गजालिंचो हांव विचार करतां आनी तांतुंतल्यान कितेंय भायर फुटत काय हाचो सोद घेत आसतां. अशें हें घडपाचें कारण कितें ? आनी म्हजेर तुमचो इतलो जीव आसतना ? पुण कशेंय जालें तरी हांव भाग्यवान चली म्हणूंक जाय. आवय-बापायचो इतलो मोग आशिल्ली म्हजेसारकी धूव एकाद्रीच आसतली.

**मादालेन :** खरेंच मारी.

**मारी :** तर म्हज्या संबंदान तुमीं इतलें कित्याक कच् कच् करून आंग काडटात ? हांव तुमकां इतली जाय जाय आसुनय म्हजेविशीं तुमकां धसको कित्याक ?

**मादालेन :** धसको ? धसको सो कसलो ?

**मारी :** तशें न्हय. पुण....पुण म्हाका तुजे दोळेच सांगतात. म्हाका दोळ्यांची भास समजता आं आई. आनी मळबावयल्या नक्षत्रांचीय बी. हांव इतल्यो खबरी जाणां....

**मादालेन :** कितें उलयता तूं हें ? कसलो बडबड लागला तुका हो ? तुजेसारकें शाणेंसुर्तें आनी देवभित्रें भुरगें ! चल, म्हज्यान आयकूं नजत तुजीं हीं उलोवणीं. आतां तें सगळें कुशीन दवर आनी हांगा यो पळोवया. म्हाका तुगेले बागेची, फुलांची बी खबर सांग. कसलीं कसलीं फुलां आसात तुगेले बागेंत ? आनी हीं हातांत आसात तीं कसलीं फुलां ? ( तिगेल्या हातांतली फुलां घेवंक वेता. )

**मारी :** ( हात उकतो करता. फुलां आवयचे होटींत पडटात ) सगलीं बावलीं. उज्यान करपलीं. हीं पापोयलां. हाणी सुसरांत बरी न्हीद पडटा. रातिचीं उशा-मुळा घालूंक हाडल्यांत तीं हांवें. आज सुस्त बरें म्हाका न्हिदूंक जाय. सपनांबगर!

सपनांत म्हाका तरेकवार गजाली दिश्टी पडटात. केन्ना केन्नाय इतल्यो सुंदर, अजापांच्यो, पुण घुस्पागोंदळ जाल्ल्यो !

**मादालेन :** सपनाचें म्हणशी जाल्यार तूं जागेपणांतय सपनेता. तरेतरेच्यो कल्पना म्हळ्यार सपनांच. हें पळे मारी, देवान आमकां ह्या संवसारांत घाल्यांत तीं दोळे उकते दवरून कश्ट करूंक. देवाचेर आमचो भावार्त आसूंक जाय हें तर खरेंच. पुण त्याच बराबर आमचे भोंवतणच्यो ल्हान ल्हान घडणुको आनी आमी जियेतांत ती बरी वायट परिस्तीत हांच्यासंबंदान चड चिकित्साय करप आनी तांकां म्हत्त्व लेखप बरें न्हय. अशें पळे मारी, तूं आमचें एकलें एकच भुरगें. तुगेल्या बापायच्यो सगल्यो उमेदी तुजेरच एक ठावल्ल्यो आसात आनी त्यो....

**मारी :** आनी त्यो म्हज्यान भागोवंक जायनात हेंवूय हांव जाणां. पुण कितें करूं ? हांव शिकतां, वाचतां....

**मादालेन :** तूं चड वाचता. जिवाक चड पुरो करून घेता. तुज्या बराबरच्या चलयांबराबर हांसना खेळना. तांचेभाशेन तूं....

**मारी :** हांव कशी कितें तें म्हाकाच खबर. आनी जशी आसूं जाय आशिल्लीं तशी न्हय, हेंवूय हांव जाणां. पुण कितें करूं ? खरेंच, देवान म्हाका एक भाव कित्याक दिलो ना काय ? असो एक धिरवान आनी व्हड अंतस्करणाचो भाव जो म्हगेले बापायचे शिपाय घेवन आनी तरसाद वावडून आपल्या दुस्मानांक धांवडावन लायत आशिल्लो. असो एक जुवान आनी देखणो भाव जाची तुळा ह्या म्हगेल्या बापायल्या चित्राकडेन करूंक जायत आशिल्ली. ( बापायल्या पायनेला-कडेन बोट दाखयत ) खरेलोच माल्ताचो शिलेदार सोबता, न्हय ? कितलो बरो दिसतालो गे म्हगेलो बापूय तेन्ना ! हो काळो पोशाक ताका कितलो बरो सोबतालो ! आनी ताजेर हो धवोंफुल्ल खुरीस ! कित्याक सोडून दिलीं गे ताणें हीं संन्याशाचीं वस्त्रां ? व्हडल्या व्हडल्या तारवांतल्यान मिरयत आपल्या धर्माची दुसऱ्यांक वळख करून दिवपाचें पवित्र काम ताणें फुडें कित्याक चलयलें ना ?

**मादालेन :** ( खंती जावन ) आगो पापणी, देवाची तशी इत्सा जाली ना. ताच्या नशिबांत दुसरें आशिल्लें. पुण भंगूं ती खबर आतां. तो लिजबोआक सावन अजून कसो पावलो ना तेंच म्हाका पडलां. खूब कळाव जालो. देवा तूं पाव !

## देखाव पांचवो

[ जॉर्जि, मादालेन आनी मारी ]

**जॉर्जि :** देव सगल्यांचें बरें करूं!

**मादालेन :** बऱ्या वेळार पावतात तुमीं जॉर्जि भावोजी.

**मारी :** नमस्ते जॉर्जिकाका.

**जॉर्जि :** बरें जावं तुजें मारी. मादालेन, तुमच्यासारकेंच म्हजेंय मन जाग्यार ना. पुण हुसको करूं नाकात तुमीं. व्हडलिशी म्हत्त्वाची गजाल आसची ना ती. मात आतांच लिजबोआक सावन म्हाका एक खबर पावल्या खरी.

**मादालेन :** खबर ? कसली ? कितें जालां ?

**जॉर्जि :** हें पळेलें ? कांय न्हय. इतलो हुसको काडपाची न्हय ती खबर. पुण तुमकां एक पयलींच शिटकावणी मेळ्ळयार बरी म्हणून सांगतां, आमगेले गाव्हेर्नादोर खंय लिजबोआंतल्यान भायर सरूंक पळेतात. थंयचे प्लेगाचे सांथी खातीर खंय ! पुण निव्वळ तांचो हट आसा हो एक. ते सांथिचो जेन्ना भार जाल्लो तेन्ना हे शाराच्या सामके भर वसतींत हुसक्या मेकळे रावले. आनी आतां तिचो उतार जाला आसतना–नाच म्हळयार जाता आतां थंय ती–हे खय भायर सरतात. जागो बदलूंक. आपल्याक वसो येवचो न्हय म्हणून.

**मादालेन :** आसूं. भंगूं तांचें !

**मारी :** भंगूं बावडया लोकांचें. तांच्या जिवाचें कोणाक पडलां ? ते उल्ले कितें सल्ले कितें सारकेच. म्हाका जर राज्य चलोवपाचें आशिल्लें, तर असल्या प्लेगासारक्या अरिश्टावेळार पिडा भोगतल्यांक आनी गरजेवंतांक खाण–जेवण, वखद–विरसद दिवपाखातीर निमाणे घडयेमेरेन तांकां हांव सोडची नाशिल्लीं. आनी जंय दैन दळिद्र चड, थंय आधार–आलाशिरो चड अशें हांव करतलीं आशिल्लीं. राजा म्हळयार एके तरेन आपले प्रजेचो बापुयच न्हय ?

**जॉर्जि :** हय गे म्हगेले शाणुले. तुगेलें म्हणणें सामकें खरें. तशेंच जावपाचें तें. पुण हो संवसार दुसरे भाशेन चलता ताका आमच्यानी कितें करूंक जाता ?

**मारी :** ताळयार हाडूंक जाता.

**जॉर्जि :** ( मादालेनाक ल्हवूच ) ह्या पोराची म्हाका धडगत लागना; भंय दिसता म्हाका ताचो.

**मादालेन :** ( त्याच ताळयान ) म्हाकाय बी.

**जॉर्जि :** कशेंय जांव, निमाणे ताणीं भायर सरपाचें थारायलेंच. इतलेंच न्हय तर हांगाच्या निर्मळ उदक–वाऱ्याखातीर जांव, नाजाल्यार सैमाचे सोबितकाये-खातीर जावं, ह्या कास्तेलाच्या पांचय पुर्तुगेज गोंव्हेर्नादोरांनी आपलें बिराड आमगेल्या ह्या गांवांत हाडपाचें थारायलां.

**मादालेन :** जावं ! येवंदी तांकां.

**जॉर्जि :** तशेंच म्हणचें पडलें. दुसरो कसलो उपाय ! पुण फुडें आयकात. आमगेल्या सांव पावलाच्या कोंव्हेतांत खंय खासा आर्सेबिशपसायब रावंक येतात. आर्सेबिशपसायब म्हळ्यार आमगेल्या सद्याच्या सरकाराचे मुखेल. हरशीं भोव बरे मनीस ते. हांगा ते सरकारी आनी धर्मीक अधिकारी अशा दोनय नात्यांनी येतात. म्हणटकच आमकां मात्शी आडखळ जातली खरी. पुण ही गजाल सोडली जाल्यार आनीक कसलीच आडखळ ना. पुण तुमची परिस्तीत मात सामकी वायट.

**मादालेन :** आमची ?

**जॉर्जि :** तुमगेली आनी तुमगेल्या मानुयेल दे सौजाची. म्हाका मेळिल्ले गुपीत खबरे वयल्यान अशें गमता कि उरिल्ल्या चारय गोंव्हेर्नादोरांनी खंय हांगा हे तुमगेले पालासींत बिराड मांडपाचें थारायलां.

**मारी :** आमी तांकां दारां घालुंया. आमगेल्या लोकांक भितर घेवंया. म्हगेल्या बापायले कशेंय जाल्यार सशें शिपायक आसातच. तांकां घेवन आमी झगडुंया. खरें म्हळ्यार तांगेली ही पिडापीड न्हय ? बरीच मौज जातली. म्हाका जाल्यार केन्ना काय हें झगडें पळेनशें जालां.

**जॉर्जि :** चल पिशें !

**मादालेन :** पुण इतलो आमचो अपमान करिसारकें आमी त्या गोंव्हेर्नादोरांचें कितें वायट केलां ? गांवांत कितें दुसरीं घरां नाशिल्लीं ? तांकां खबर ना काय कितें, ह्या घरांत बायलां भुरगीं रावतात म्हणून ? एक भरिल्लें कुटुंब रावत म्हणून ?... आनी...आनी म्हजो हांगा राबितो आसा म्हणून ?

**मारी** (इतलो वेळ जनेलाकडेन कान लावन आशिल्लें ते एकदम फुडें येता.) हो पळे म्हगेल्या बापायलो ताळो आयकूंक येता. आयलो म्हगेलो बापूय.

**मादालेन :** ( कच् करून आंग काडून ) म्हाका कांयच आयकूंक येना.

**जॉर्ज :** म्हाकाय बी येना मारी.

**मारी :** पुण म्हाका बेस बरो आयकूंक येता. हय, म्हजो बापुयच तो आनी अपमान जाल्लेवरी तिडकीन येता.

## देखाव सवो

[ जॉर्जि, मादालेन, मारी आनी मिरांद. ]

**मिरांद :** धनीसायब पावले. हांवें पयससावन एक व्हडें येता तें पळेलां आनी तें आमचेंच आसूंक जाय. तुमी सगळीं जाणां चिंता काडटात देखून ह्या रातिच्या वेळार हांव बेगिबेगीन तुमकां ही खबर दिवंक आयलां.

**मादालेन :** देव बरें करूं तुजें मिरांद. जगाभायलेंच भुरगें हें. इतलें पयशिल्लें तें कशें आयकता आनी पळेता म्हणून कोण जाणां. ( मारी भायल्या आंगणांत गेल्लें आसता पुण रोखडें भितर येता. )

**जॉर्ज :** खरेंच. ( कुशीन ) ताच्या वयाक आनी कायेक अजाप करिसारकीच गजाल ही !

## देखाव सातवो

[ जॉर्जि, मादालेन, मारी, मिरांद; मानुयेल द सौज आपल्याबराबर कांय चाकरांक घेवन येता. कांय जाणांच्या हातांत पेटयल्ल्यो मशाली आसात. भर रात जाल्या. ]

**मानुयेल :** ( दारांतच थांबून आनी बराबरच्या चाकरांकडेन पळेत ) चलात. हांवें सांगलां तशें जिस्त करात. इल्लीय आळसाय कामायेना. मशाली पालोवं नाकात. त्यो भायल्या आंगणांत तेंकोवन लायात आनी सगलें काम हांवें सांगलां तशें जावंदी. ( मागीर सामकार येवन ) मादालेन, बाय मारी, ( तांकां दोगांकय वेंगेत घेता. ) जॉर्जि, तूंवय हांगा आसा हें एक बरेंच जालें. तुजी ह्या वेळार

म्हाका चड गरज आसा. बरीच रात जाल्या आनी मठांतले प्रार्थनेचो वेळ जालो हेंवूय हांव जाणां. पुण आनी मातसो रावनच तुज्या वांगडा हांव येतां आनी प्रार्थना म्हणटां. मिरांद, हांगा यो; (ताका घेवन भायल्या दाराकडेन वेता आनी ल्हवूच कसलीं तरी कामां फर्मायता. )

**मादालेन :** कितें जालां तुका आज ? अशे तरेन केन्नाच तूं घरांत सरूंक ना. तुजी चर्या पळेल्यार तुका त्रास जावपाचें कितेंय तरी घडलां अशें दिसतां. कितें जालां ? म्हाका सांगना ?

**मानुयेल :** मादालेन, यो. अशी म्हज्या म्हऱ्यांत बस. मारी, जॉर्जि, तुमीय बसात. आमी सगळींच बसुंया. म्हाका आज खूब पुरो जालां. ( सगळीं बसतात. ) आतां आयकात. आमी सगळीं जे परिस्तितींत दीस सारतांत ते परिस्तितीक फावोश्योच ह्यो गजाली घडटात. म्हणटकच तातूंत अजाप करिसारकें कितें आसा ? ( मातसो थांबून ) मादालेन, आमी हें घर आतांच सोडून वचूंक जाय !

**मारी :** शाब्बास, बरेंच जालें !

**मानुयेल :** बरें न्हय. सामकें वायट जालां. पुण ताका दुसरो उपाय ना. आयजच रातचीं आमी घरांतल्यान पावल काडूंक जाय. घरच्या सगल्या मनशांक हांवें सांगून उडयल्या ही खबर. तेल्माकडल्यान तुगेल्या आयांक कितें कितें करपाचें तें सांगून धाडलां आनी तोवूय त्या कामाचेर नदर दवरूंक सगलें घरभर भोंवत आसा. तुवेंय सगल्याचेर एक फावट नदर मारिल्ली जाल्यार भोव बरें जातलें आशिल्लें. हांवय बी म्हज्या वांट्याचें काम पळोवंक चल्लों. पुण अजून वेळ आसा. आतांच आठ वरां जाल्यांत. रातचीं बारा वाजूंक अजून चार वरां उणीं आसात. ते मेरेन थोडें-भोव जें कितें वांटावंक मेळत तें वाटायतलों. कशेंय जाल्यार सकाळ जावचे पयलीं काय ते हांगा पावचेनात.

**मादालेन :** म्हणटकच लुईज द मौर आनी हेर गोव्हेर्नादोर हांगा येतले म्हणून आयकल्लें तें खरेंच तर !

**मानुयेल :** लुईज दे मौर हो एक दुश्ट आनी हीण मनीस. तो आपले जातिचेर वचपाचोच. आर्सेब्रिशपसायब म्हळयार दुसऱ्याच्या हातांतलें बावलें. जसो जा म्हणशात तसो जावपी. पुण आपल्या लोकांचेर शेक चलोवन जाणीं हें परकी राजाचें राज्य चलोवपाचें हीण ओजें माथ्यार घेतलां त्या कोंदि दे साबुगाल आनी कोंदि दे सांताक्रूज हाणीं तरी आपूण कोणाचें आनी कोणाचेर

राज्य चलयतात तें पळोवपाचें न्हय ? आरेरे, कसले हे लोक, कसलें हे पुर्तुगेज सरदार ? देखुनच, हालिंच्या काळार कोणेंच शिकोवंक ना तसलो धडो त्या मदांक हलकटांक आनी तांगेली पिडापीड मोन्यानी सोंसपी ह्या बंद्या लोकाक हांव शिकयतलों.

**मारी :** शाब्बास, अशेंच करूंक जाय. तुमी कोण आनी आपल्या मायदेशाचेर मोग करपी मनीस कसो आसता हें तांकां एक फावट दाखयातच.

**मादालेन :** मानुयेल, मानुयेल, रागाच्या भरांत कित्याकितेंय करून तुजो घात करून घेवं नाका. येदी व्हड सत्त्या हातांत आशिल्ल्या मनशांचें तूं कितेंशें करशी ? तूं तांकां इतलो नसाय जावपाचें कारण एकच. आनी तें हें कि तूं तांच्या परस गुणांनी आनी गिन्यानान खूब व्हड हेंच. तुका ते कांयच लेखिनात वा किरकोळ लेखतात अशें जें दाखयतात तीं निव्वळ संवगां. फकत भायलोचार. तांकां तुज्या संबंदान कितें दिसता जाल्यार तें कुन्नाटेपण. तुज्या आंगातलें व्हडपण हेंच तांच्या अपमानाचें कारण. तांचो सूड घेवंक तूं तांकां इल्लेशें निमित्य दिशी जाल्यार ते ताचो लाव घेतल्याबगर रावचे नात. तेन्ना तुजें कशें जातलें ? आमचें कशें जातलें ? मानुयेल, नाका, नाका. आमच्या मोगाखातीर तरी....

**जॉर्ज :** तुगेले बायलेची म्हणणी सामकी खरी. शाणेपणान पावलां घाल आनी मारीक विसरूं नाका.

**मानुयेल :** हांव कितेंच आनी कोणाकच विसरूं ना. भियेवं नाका तूं मादालेन, कशेंय जाल्यार ते हांगा फाल्यां सकाळीं येतलेच आनी ते घरांत भितर येवचे पयलीं आमकां भायर सरचें पडटलेंच. त्यापरस हांव म्हणटां आमी आतांच....

**मादालेन :** पुण अकस्मात येदे रातचीं आमी खंय म्हणून वेतलीं ?

**मानुयेल :** असो आमकां एकच जागो आसा. आनी तो म्हळ्यार तुगेलें घर

**मादालेन :** कितें ? म्हगेलें घर ? म्हगेल्या पयलेपणांतल्या घोवाचें घर ? देवा सायबा !

**जॉर्ज :** अशेंच केल्यार बेस बरें जातलें. तें घर बरे स्तितींत आनी जाय तशें विस्कळ आसा. त्याभायर थंय गरजेची सगली मुस्ताकीय आसा. तुमकां वांगडा चडश्यो वस्तू व्हरची गरज ना. आनी म्हाका विचारशात जाल्यार तें घर म्हाका आनी म्हज्या बराबरच्या पाद्रींक कितलें खुशालकायेचें म्हणून सांगूं तुमी जाणांतच थंय पियेदाद मारीचो सोबीत आनी व्हड सासायेचो आल्तार

आसा; थंय गेल्यार आमकां सगल्यांक तिज्या म्हन्यांत आनी एकाच पाख्यामुळा रावंक मेळटलें.

**मारी :** आवयस ! म्हाका केन्ना काय थंय वचनशें जालां ( आनी पुट्ट करून एकच उडी मारता. )

**मानुयेल :** चलात तर वेळ जायत आयलो. फुडल्या कामाक लागुंया.

**मादालेन :** ( ताच्या म्हच्यांत येवन ) राव, आयक. तुका कितें सांगपाचें आसा. आनीक कसलोय उपाय ना मू ?

**मानुयेल :** हेंऽ ! आनीक कसलो उपाय ? तुका कसलोय येवजता जाल्यार सांग. पळे, बरे भाशेन विचार कर.

**मादालेन :** त्या घरांत....आवय म्हजे!....त्या घरांत म्हाका धीर जायना. मानुयेल, आयक. हांव तुजेकडेन एकलीच उलोवंक सोदतां. फरेय जॉर्जि, मारीक घेवन मातशें भितर वेशात जाल्यार पळेयात. म्हाका तुमगेल्या भावाकडेन कितें उलोवपाचें आसा.

**मारी :** जॉर्जिकाका, येयात; हांव तुमकां म्हगेलीं पुस्तकां दाखयतां. ( आनी सामकी ताचीच जावन, व्हवून ) आनी हांवें बरयल्यात त्यो फोलीय बी. हांवेंय फोली बरयल्यांत आं काका. पुण त्यो आज नाकात. दुसऱ्या घरांत गेलीं म्हणटकच दाखयतलीं हांव तुमकां त्यो. पुण कोणाकच सांगूं जायना आं !

**जॉर्जि :** पिशें रे, सामकें पिशें !

## देखाव आठवो

[ मानुयेल द सौज आनी मादालेन ]

**मानुयेल :** ( उचांबळ मनान माचयेच्या एका पोंतार सावन दुसऱ्या पोंतामेरेन फाटल्यान हात कवळून येरादाऱ्यो घालता. ) ह्या देसांत एक तरी धिटायेचो मनीस आसा हें संवसाराक कळून येतलें.

**मादालेन :** कितें जालां तुगेलें ? सांग तरी, कितें जालां ?

**मानुयेल :** हांव हो अपमान कसोच सोंसपाचो ना आनी दुसरें, ह्या घरांतल्यान आमकां रोखडेंच भायर सरूंक जाय, इतलेंच म्हजें जालां.

**मादालेन :** इतलेंच मू ? सरुंया भायर. तुजे सांगणें भायर हांव केन्ना गेल्यां ? तुजे इत्सेभायर दुसरी इत्सा कशी आसता तेंच हांव नकळं. तूं सांगता ते भाशेन दोळे धांपून चलूंक हांव केन्नाच अनमनूंक ना. पुण घरांत मात नाका. मानुयेल, त्या घरांत म्हाका व्हरूं नाका ( ताच्या गळ्याक वेंग मारता. )

**मानुयेल :** खरेंच, इतलो हट केल्लो हांवें केन्नाच पळोवंक ना. वचपा-सारको आनीक दुसरो जागो म्हाका खंयच येवजना. तातूंत असल्या ह्या कळेच्या वेळार तर....जाय जाल्यार मागीर दुसऱ्या घरांत वचूंक जाता आमच्यानी. पुण आतां मात कसलोच उपाय ना. आनी अशें सांग, घराचेर कितें आसा मादालेन ? कित्याक ? तें तुगेल्या पयलिंच्या घोवाचें घर म्हणून ? म्हज्या खातीर तुका त्या घरांत वचूंक बरें दिसना ? पुण दों जुआंव दे पुर्तुगालाविशीं म्हाका सदांच भौमान आनी तोखणाय दिसल्या आनी तेच भावनेन हांव ताचो उगडास काडटां. देखून, ज्या घरान ताका आलाशिरो दिलो त्या घराचो आधार घेवंक म्हाका कसलीच उणाखपण दिसना. पुण तूं ताच्या वांगडा त्या घरांत रावल्या हे पासत तुजें मन तुका खाता व्हय ? तर आयक. जाल्या गेल्या काळाचो म्हाका मत्सर दिसना आनी हांव ताचो धनीय बी न्हय. हांव धनी फकत आयच्या, आतां चलता त्या काळाचो, तो जाल्यार म्हजो. म्हजो एकल्याचो, सामको म्हजो मादालेन. ( तिका आपल्या म्हऱ्यांत घट्ट ओडटा. ) पुरो कर, आतां आनीक ह्या संबंदान आमी उलोवचें न्हय. आमकां भायर सरुंकच जाय आनी तें आतांचे आतांच.

**मादालेन :** पुण आयक मानुयेल. तूं नकळ. हांव नाका जाल्लें उपरासून काडपी न्हय आनी वोगीच कित्याकितेंय मनाक लावन घेवपीय न्हय. हर कसल्याय संबंदान हांव बायल आसन; न्हय– सामकी बायलच. पुण ह्याविशीं मात....तूं नकळ. त्या घरांत वचपाचो उगडास काडल्यारच म्हजो जीव सुकून आयिल्ल्यावरी जाता. काळीज फुगार जाता आनी भिरांतीन आंग शिरशिरता. थंय वचप म्हळ्यार तुज्या हातांतल्यान सुटून अचळय ताच्या हातांत पडप अशें म्हाका दिसता. रागार जावं नाका मानुयेल. म्हाका मखलाशी कर. पुण कितेंच केल्यार हो विचार म्हजे तकलेंतल्यान वचना. थंय गेल्यार दों जुआंव दे पुर्तुगालचें भूत म्हाका दिश्टी पडटलें आनी दोनय वटेन धार आशिल्ली तरसाद घेवन ती तुज्या, म्हज्या, मारीच्या मदीं धोंगशितलें आनी आमकां सासणाचें

वेगळायतलें अशें म्हाका दिसता. हें म्हजें सामकें पिशेपण, भुरगेपण हें हांव जाणां. पुण कितें करूं ? तुका आनी मारीक घेवन त्या घरांत रावंक वचप हो विचारच म्हज्यान सोंसूंक जायना. म्हाका थंय वायट भोगतलें; त्या सुतकी घरांत म्हाका मरण येतलें; त्या घरांत भितर सरनाफुडेंच तीन दीस, तीन वरां जावंचे पयलींच आमचेर संवसारांतल्या संकश्टांचे सगळे दोंगर कोसळटले असो म्हाका भास जाता. देखून मानुयेल, म्हज्या राया, आमच्या इतल्या वरसांच्या मोगा-खातीर आनी आमच्या अपुर्बायेच्या मारीपसत हांव तुजेंकडेन मागतां आमी खंय्य या. भोंवतणच्या खंयच्याय खारव्याचे खोपींत पसून कामायेता पुण थंय नाका. त्या म्हगेल्या पयलेपणांतल्या घोवाच्या घरांत मात नाका.

**मानुयेल :** खरेपणानीच तुका हांवें अशी केन्नाच पळोवंक ना. शकून अप शकुनांचेर भावार्त दवरपा इतली तूं भेजूड अशें म्हाका केन्नाच दिसुंनाशिल्लें. मादालेन, भावार्त दवरपासारकी ह्या संवसारांत एकच वस्त आसा. आनी ती म्हळ्यार देव. तेच भाशेन आमच्या हातांतल्यान घडिल्लया वायट कर्मांचीं भुतां सोडलीं जाल्यार आनीक खंयचींच भुतां खेतां आमकां भेश्टावंक पावनात. अशे तरेचीं वायट कर्तुबां तुज्या हातांतल्यान घडिल्ल्याचो तुका उगडास जाता तर ? तुजें काळीज आनी हात तर कितले निवळ आसात. तेच भाशेन मनांत सदांकाळ देवाचो उगडास दवरपी आमच्या सारक्या लोकांक ह्या भूंय लोकाची तशीच नरक लोकाची भिरांत धरपाची कसलीच गरज ना. आमी त्या घरच्या कपेलांत दों जुआंवाच्या आत्म्याक बरें मागुंया आनी तूं खात्री दवर कि ताचो पुज्य आत्मो-जो ते पवित्र लडायेंत देवा धर्मा खातीर सोंपलो-तो आमकां ह्या संवसारांत केन्नाच पिडूंक येवचो ना. चलात तर दोना मादालेना दे व्हिल्ल्येन, तुमी कोणापसून आयिल्लीं आनी कोणाचीं आसात हाचो उगडास दवरात आनी नसतेच ताळतंत नाशिल्ले भुरगेपणाचे समज म्हजे तकलेंत भरून म्हजो धीर आनी हातपांय गळसणावं नाकात. ह्या वेळार म्हाका आशिल्लया-नाशिल्ल्या धीराची आनी मनाचे थीरतायेची चडांत चड गरज आसा.

**मादालेन :** म्हणटकच तुवें कितें येवजिलां ?

**मानुयेल :** तुका सांगलां ते भाशेन ह्या खुनमाऱ्या आनी पिडापीड भोगयण्या जाळवणदारांक अशें चिकोद दितलों कि तांकां ताची जीणभर याद उरची आनी आमचे प्रजेक-आमचे दळदिरे प्रजेक, अशी देख दितलों कि तिच्या वणवणीत

उजवाडान तांचे दोळे उकते जावंचे.

## देखाव णवो

[ मानुयेल दे सौज, मादालेन; तेल्मु, मिरांद आनी हेर चाकरमाने एकदम सडसडीत भितर सरतात.]

**तेल्मु :** धनीसायब, लिजबोआक सावन निकत्याच पाविल्ल्या व्हडयांतल्यान जायते सरदार, ढालदार, काटकार आनी शिपायक बी देंवल्यात आनी ते चडटेवयल्यान हांगाच येवंक येतात. ते आरसेबिशप सायब तर खात्रीन न्हय. कित्याक, हांगच्या कोंव्हेंतात ते केन्नाच येवन पावले. लोक उलयतात ते भाशेन.....

**मानुयेल :** ते गोव्हेर्नादोरच आसूंक जाय. हय मू ? (तेल्मु तकलेन हय म्हणटा. म्हाका फटोवन ते आजच हांगा येवंक पळेतात. तांकां सुलूस लागलिशी दिसता. पुण हांव फटोवचेलों ना. ( दाव्या दाराकडेन उले मारता. ) जॉर्जि, मारी ! ( मुखार येवन ) मादालेन, चल चल, वेळ वगडावं नाका.

## देखाव धावो

[मानुयेल, मादालेन, तेल्मु, मिरांद आनी हेर चाकरमाने; जॉर्जि आनी मारी भितर येतात.]

**मानुयेल :** जॉर्जि, तुमी ह्या बायलां वांगडा चलात. तेल्मा, तूंवय चल. (आनी हेर चाकरमान्यांक ) काडलें तुमीं सगलें भायर ? काशोदां, म्हगेले घोडे, शस्त्रां आनी हेर सगलें ?

**मिरांद :** भोव करून सगलें. आनी कितेंय उल्लां सुल्लां आसत जाल्यार तेंवूय खिणांत भायर सरतलें. गरज पडत जाल्यार फाटल्या दारांतल्यान पसून काडूं येत.

**मानुयेल :** तशेंच करात. ( मिरांद कुरू करता आनी दोग चाकर त्या कामाक भायर सरतात. ) मादालेन, मारी, आनीक आनीक पळोवंचों ना तुमकां हांव हांगा. लागात चलूंक सडसडीत. हांव फाटोफाट येतां तुमचेसरीं.

## देखाव इकरावो

[ मानुयेल, मिरांद आनी हेर चाकरमाने. ]

**मानुयेल :** म्हगेलो बापूय खंय घाळ वचून आपलेच तरसादीचेर पडलो आनी सोपलो. आनी कोण जाणां, म्हज्याच हातांनी पेटयल्ल्या उज्यांत हांवय बी लासून वचूं नये म्हणून ?! कांय नज. पुण ह्या देसांतल्या सगल्या लोकाक कळून येवंदी कि अभिमान आनी काळीज आशिल्लो एक मनीस, उज्याचे एके किटीन खिणांत भस्म जातले आस्पतिची इत्सा सोडीत जाल्यार, तो केदेय व्हड, बळिश्ट आनी मदांद सत्येकडेन झुजूंक पावता. खरेपणानीच, एकेच फुंकेन पालोवन वचपी ही आमची जीण कितली खिणयाळी आनी दळिद्री ! ( चाकरां हातांतल्यो दोन मशाली झोंपून घेवन दावेकडल्या दाराकडेन वेता आनी एक मशाल भितर शेंवटून मारता. फाटोफाट एक उज्याचें केण उसळटा तें दिसता. मागीर सामको घरांत भितर वेता आनी दुसरी मशाल मोखून मारता. परसून तसोच उजो उसळटा. भायल्यान किंळच्यो आयकूंक येतात. )

## देखाव बारावो

[ मानुयेल आनी चाकरमाने; मादालेन, मारी, तेल्मु आनी जॉर्जि बेगिबेगीन भितर येतात. ]

**मादालेन :** कितें करता, कितें केलें हें तुवें ? कसलो आकांत हो देवा !

**मानुयेल :** ( थंडपणान ) दिवे पेटयतां ! ह्या राज्यांतल्या भोव बऱ्या आनी बळिश्ट गोव्हेर्नादोरांक येवकार दिवंक हांव सगल्या घराक उजवाड करतां ! आतां जाय तेन्ना येवंदी रावसायबाक.

**मादालेन :** हाय, हाय, देवा ! आवय म्हजे, म्हगेल्या घोवाचें पायनेल ! म्हगेल्या घोवाचें हें तें पायनेल कोणय तरी वाटायात पापयांनो ! ( मिरांद आनी एक चाकर पायनेल काडूंक सोदतात. पुण इतल्यांत उज्याचो एक गुळो तांच्या म्हऱ्यांत पडटा आनी ते कुशीन सरतात. )

**मानुयेल :** चळात, वचात, उज्यान पेट घेतलो, धांवात, पळात ! उजो मातचो

म्हणून हांवें दाळिल्ल्या तरेकवार वस्तूंनी पेट घेतलो.

**मादालेन :** ( घोवाच्या एका हाताक घट्ट धरून ) चल, चल, पळुंया !

**मारी :** ( बापायच्या दुसऱ्या हाताक वेंग मारून ) चल, तुका सोडून आम वचचीं नात.

**सगलीं जाणां :** पळुंया पळुंया....

( भायल्यो किळंच्यो वाडटात. इगर्जेच्यो घांटी घणघणटात आनी पड्डे पडटा. )



# आंक दुसरो

दों जुआंव दे पुर्तुगालचे पालासिचें एक साल. सालाची हव आनी मांडणी गंभीर आनी दुखेस्त कशिशी. वणटींचेर कुटुंबांतल्या मनशांचीं व्हडलीं व्हडल पायनेलां. पायनेलांचेर सरदार, बिशप, संन्याशी अशा तरेतरेच्या मनशांची चित्रां. कांय सगळीं तर कांय अर्दीं. फाटले वणटीचेर मध्यकाक दों सेबास्तियांव राजाचें पायनेल आनी ताका तेंकून एके वटेन कामोंयश हाचें पायनेल तर दुसरे वटेन दों जुआंव दे पुर्तुगाल हांचें. उजवे वटेनचें दार भायर सरपाचें, जाल्यार दावेवटेनचे भितर सरपाचें. सगल्या दारांक पड्डे. पड्डयांचेर सरदारकी घराण्याचीं चिन्नां. सालाचे फाटले वणटीक एक व्हडलें दार आनी ताकाय तसल्याच चिन्नां-सयत पड्डो. ह्या दारांतल्यान घरच्या कपेलांत वचपाची वाट.

## देखाव पयलो

[ मारी आनी तेल्मु ]

**मारी :** ( दावेवटेनच्या दारांतल्यान भितर वेता आनी तेल्माच्या हाताक धरून ताका ओडून हाडटा. तो खोशये भायर येतासो दिसता. ) यो, यो, वोगीच बोवाळ करूं नाका. म्हगेली आवय न्हिदल्या. म्हाका तुजेकडेन कितें उलोवपाचें आसा. आनी तें हांगाच, ह्याच सालांत. तुमी अशें ओडून घल्लें जाल्यार आमचें झगडें जातलें, बोवाळ जातलो आनी म्हगेली आवय उठटली. आनी तेंच तर म्हाका नाका. भोंगू बावडेचें. आमीं ह्या घरांत आयल्यार भर आठ

दीस जाले, पुण आजच्च पयले फावट तिका सुसरांत न्हीद लागल्या. तो घो घो करून पेटणो उजो, उज्याचे भकींत पडिल्ली ती पलास, भोंवतणच्या लोकांच्यो त्यो हुयेली, तो घांटिंचो घणघण! आहाहा! केदो मोटो आनी अजापांचो देखाव तो! हांवें जाल्यार असलो जल्मांत पळोवंक ना. तो पळोवन म्हगेले आवयचो आवरो उडलो. अजुनय तिच्या दोळ्यांवयल्यान तो हालना. न्हिदूंक म्हणून ती दोळे धांपता खरी. पुण घर गिळूंक खुबून उठिल्ले तें उज्याचें लोट आनी धुंवराचे कवळे आपले नदरेमुखार एकासारके येतात अशें ती म्हणटा. ते–भायर तिगेलें तें चड आवडिचें, म्हगेल्या बापायचें सोबीत पायनेल कोणाच्यान वाटावं नज जावन थंय लासून गेलें हे गजालिचो उगडास तर तिच्यान सामको सोसूंक जायना. पळे, जी म्हगेली आवय पयलीं, भास, शकून, अपशकून असल्या गजालिंचेर विस्वास दवरिनाशिल्ली आनी तांचेवयलो म्हजो भावार्त पळोवन म्हजीं फकाणां मारताली, तीच आतां अशें मानूंक लागल्या–मानूंक लागल्या कित्याक ? सामकें तकलेंतच भल्लां तिच्या कि तें पायनेल तशे तरेन थंय लासून वचप म्हळयार एक व्हडलो अपशकून म्हणून. तिचेर आनी आमच्या सगल्याच घराण्याचेर रोखडेंच येवपाचें आशिल्ल्या संकश्टाची ती एक सुचोवणीच असो तिचो समज जाला. त्या संकश्टा संबंदान तिच्या मनांत कसलोच दुबाव ना. तें बेगिनच येतलें आनी ताका लागून तिकाआनी म्हज्या बापायक वेगळें रावचें पडटलें असो तिच्या मनाचेर परिणाम जाला. आनी हांव जाल्यार परती ह्या वेळार घट्ट जाल्यां. तिका बावडेक धीर दिवपाखातीर हे असले अपशकून म्हळयार सामक्यो फकाणांच्यो गजाली अशें दाखोवंक लागल्यां. पुण खरेपणानी विचारशात जाल्यार केन्नाच नाशिल्लो इतलो घट्ट विस्वास हालीं ह्या शकून–अपशकुनाचेर म्हगेलो बसला. आपल्या मनाची तयारी करूंक देवान दिल्ल्यो त्यो शिटकावण्योच अशें भितरपसून म्हाका दिसता. आनीक थोडयाच तेंपान म्हगेल्या आवय–बापायचेर कसलेंय जाल्यार एक अरिश्ट येवपाचें आसा अशें म्हाका म्हजें मन सांगता.

तेल्मु : ( मारीच्या उतरांनी दिशिल्लो भंय लिपोवन ) थु, थु, थुमेकाल, अशें कित्याकितेंय उलोवं नाका. देव तांचें बरेंच करतलो आनी तेंच तांकां फावो जाता. ( मनाक धीर हाडून, उमेदीन ) मारी, तुगेलो बापूय म्हळयार खरो निजाचो आनी कट्टो पुर्तुगेज. पयलीं सावन ताका हांव मानीत आयलांच. पुण त्या दिसाचें तागेलें तें कृत्य पळोवन तर....कितें तो ताचो अवतार! दोनय हातांत दोन

पेटिल्ल्यो मशाली घेवन आपल्याच घरादाराक उजो लावप! आपल्या लोकांक स्वतंत्रतायेचो धडो दिवंक आनी त्या नश्टया आनी पाडया जाळवणदारांक कडक बुद्द शिकोवचेपसत आपल्याच हातांनी आपल्या आवडटया, तरेकवार आनी मोलादीक वस्तुंचें भस्म करून उडोवप! मारी, हाकाच म्हणटात मनीस, खरो मनीस! गरज पडत जाल्यार म्हजी सगली जीण ताचे भोंवतणीं उंवाळून उडोवंक हांव तयार आसां. पुण म्हाका खंत भोगता; आयज मेरेन ताका हांव पुराय वळखूंक पावलों ना! तागेल्या गुणांचें आनी व्हडपणाचें मोल करूंक पावलों ना!

**मारी :** (दोळयांत दुकां हाडून आनी तेल्माचे हात आपल्या हातांत घेवन) तेल्मा, असल्या बापायची धूव जावप म्हळ्यार मोटें भाग्य समजूंक जाय, न्हय?

**तेल्मु :** जालेंच. देवान ताका राखल्यार पुरो!

**मारी :** हय. तशेंच जावं. पुण हें सांगात. ते पाडे गोव्हेर्नादोर अजुनय म्हज्या बापायचेर राग धरून आसात काय? फ्रेय जॉर्जिच्या वावराक फळ घलां काय किते हाचो वास लागला तुमकां?

**तेल्मु :** हय तर. तुगेले आवयले शकून-अपशकून फट जायत चल्ल्यात हे एक बरेंच जालें. आर्सेबिशप सायबांक आनी हेर गोव्हेर्नादोरांक फ्रेय जॉर्जीन ताळयार हाडल्यात. तांकां बरेंच ताणीं निवळायल्यात. फकत मिंगेल दे मौर मात अजून हट धरून बसला. पुण सोड. तोवूय निवळटलो. म्हणटकच आनीक थोड्याच दिसांनी सगलें जाग्यार पडटलें असो रंग दिसता. तुगेल्या बापायच्या मनांत आयिल्लें जाल्यार हें काम केन्नाच जावन गेल्लें. उजो आपशींच लागलो इतलें ताणें म्हळ्ळें जाल्यार भागिल्लें. पुण ताणें तशें सांगलें ना हें एके नदरेन बरेंच जालें. एका व्हड हावेसान केल्लो गुन्यांव एके उणाक फटीन पचोवंक पळेलो असो ताचो अर्थ जातलो आशिल्लो.

**मारी :** केद्या व्हड अंतस्कर्णाचो म्हगेलो बापूय! पुण ह्या वनवासांतल्यान तो केन्ना सुट्टलो काय? उल्या-साल्याक कोणाचोच आधार नाशिल्ले एके पयशिल्ले आनी एकसुरे सुवातेंर दिसांचे दीस सारप आनी रातचो इल्लेशा वेळाखातीर घरांत येवप! आनी तेंवूय आपलो जीव कितल्या संकश्टांत घालून म्हणून कोण जाणां!

**तेल्मु :** तशें संकश्ट अशें कसलेंच ना. सगल्यांक ही गजाल खबर आसा. पुण सगलेच दोळ्यार पाती ओडून आसात. आनीक अशेंच कांय दीस गेले

म्हणटकच सगलें पयलीं भाशेन जातलें.

**मारी :** जायत; आनी तशें जांव अशें हांव देवाकडेन मागतां. पुण म्हगेलें आवयचें तें चिंतेस्त तोंड, तो एकेतरेचो सदांचो हुसको, तें कच्च कच्च करून आंग काडप हीं सगलीं फुडल्या अरिश्टांचीं चिन्नांच अशें जाल्यार म्हाका दिसता. म्हगेल्या बापायक ती हातुंतलें कांय सांगना. म्हाकाय ती पयलीं पयलीं हें सगलें लिप्पयताली पुण आतां तिका तें जमना. आ हा, बरोच उगडास जालो. तेल्मा, हांगा यो पळोवया. (आनी ताका वणटीक लायिल्ल्या तीन पायनेलां मुखार व्हरता आनी दों जुआंवाच्या पायनेलाकडेन बोट दाखोवन विचारता.) तेल्मा, हें पायनेल कोणाचें ?

**तेल्मु :** ( पायनेलाकडेन पळेता, पुण रोखडेंच तोंड फिरायता. ) अं ? तें मूं तें....तें ह्या घरच्या एका मनशाचें आसतलें. हीं आनीक हांगा लायिल्लीं नात ? तांतुतलेंच तें एक.

**मारी :** ( नाखार बोट दवरून ताका फकाणांनी दबकायत) पळे आं, तूं खरें सांगना.

**तेल्मु :** ( आपलो अपमान जाल्लेवरी ) हांव केन्नाच फट उलयना मारी.

**मारी :** पुण सामकें खरेंय सांगना तूं. म्हणटकच ती फटच मारिल्लेवरी जाली ना ?

**तेल्मु :** फट ? हांव जाणां तें, आनी खरें तेंच सांगलां. म्हगेल्या दुसऱ्या धनयाच्या कुटुंबांतलोच तो एक सरदार.

**मारी :** आनी नांव ना त्या सरदाराक ?

**तेल्मु :** कित्याक आसचें ना ? पुण तें हांव मात....

**मारी :** आतां जाल्यार तूं सामकोच फट मारूंक वेतालो आं. पुरो, आतां वोगी राव. पुण तुमी सगळीं जाणां अशें हें म्हाका दाखय-लिपय कित्याक करतात तेंच समजना. हांव कितें सदांच ल्हानच उरतलीं अशें दिसता काय कितें तुमकां ? ज्या दिसा रातचीं त्या बोवाळांत आमी घरांत पांय दिलो त्या दिसा हांव आनी म्हजी आवय दोगांय जाणां ह्या सालांत पावलीं. हांगा मदींच आशिल्ल्या कदेलाक एक पेटिल्ली मेणवात लायिल्ली. तिचो उजवाड जिस्त त्या पायनेलाचेर पडटालो. आवयन म्हाका हातांत धरिल्ली आनी आमी येतालीं. इतल्यांत तिगेली नदर त्या पायनेलाचेर पडली आनी तिणें एकच किळंच मारून दिली. भिरांतीन काय

कित्यान म्हणून कोण जाणां, सामकी म्हजेर वयरच पडपाची ती. हांवें तिका कितें जालां काय म्हणून विचार जाल्यार तिणें म्हाका कांयच जाप दिली ना आनी एकदम मेणवातीचेर बचक मारून ती उखल्ली आनी फाटल्यान कोण भूत लागिल्लयावरी म्हाका ओडीत, धबधब करून घरांतल्यान धांवत सुटली. आनी तुमी पळेतातच, आयज आठ दीस जाले ती तेच अवस्तेंत आसा. हांवें परतून ती खबर काडली ना. पायनेल कोणाचें हें जरी म्हाका तिणें केन्नाच सांगलें ना तरी पुण मदिंमदींच "तो दुसरो....दुसरो" अशें ती बडबडट्टाली. कशेंय जावं, इतलें खरे कि हें पायनेल आनी तें म्हगेल्या बापायलें लासून गेल्लें पायनेल दोगांचोय तिणें इतलो धसको घेतला कि कितेंय केल्यार तीं तिगेले तकलेंतल्यान वचनात.

**तेल्मु :** ( आतुरतायेन ) आनी रातींय तेच घोंकणेंत आशिल्ली काय कितें ती ?

**मारी :** ना. काल सांजवेळा हांगा फरेय जॉर्जि येतपसून ती दुसरे तरेची जाल्या. ताणीं तिका तरेतरेच्या आनी धीराच्या उतरांनी समज घालो. त्याभायर आपूण त्या गोव्हेर्नादोरांचो राग इल्लो इल्लो पुण साप्प निवळावंक पावतलों अशें बी सांगतकच तिचे तकलेंतलें तें सगलें गेलां. आनी हे घटकेमेरेन तरी ती सामकी निवळल्यावरी जाल्या. पुण तें भंगूं. तुमच्या मनांत त्या चित्रासंबंदान अजून म्हाका भानळावपाचेंच आसा काय कितें ? पळे आं ! ( दों सेबास्तियांव राजाच्या पायनेलाकडेन बोट दाखोवन ) हें तें मदलें पायनेल हांव वळखन काय ना तें तूं जाणांच. सांगूं ? तें म्हगेल्या मोगाळ आनी आवडट्या दों सेबास्तियांव राजाचें. आहाहा, केदो हो नेट. आनी सबावाचें कडकपण सुचोवपी केदें हें कपल ! इतलें भुरगेपण आसुनय जाणें आपल्या देशाचें राज्य चलोवपाचें काम फकाणांचेर घालिनासतना तें खरे तळमळीन, सत्यान आनी प्रामाणिकपणान चलोवपाचें मनार घेतलें आनी ताच्यो शिमो वाडोवन ताका व्हड नांवलोकीक मेळोवन दिवपाचो सोपूत घेतलो तो हो हांगा आसा. पळे, तागेल्या मोटेल्या दोळ्यांत आनी आंवुळ्ळेल्या वोठांत पळे कशी सगली धिटाय एकठांय जावन भायर फुटटा ! अशे तरेचो हो गुणेस्त राजा एका वाळवटांत मुसलमानाच्या हातांत सोंपलो अशें मानप म्हळ्यार सामकें पिशेंपण ! ना, ना, जावंचें ना. देव अशें केन्नाच करूंक दिवचो ना.

**तेल्मु :** हीं तुगेलीं उतरां देवान आयकल्यार पुरो आशिल्लीं म्हज्या भांगरा !

**मारी :** पुण तशें आमच्यानी पारखूंक जायना ? जाता. आनी म्हजो ताचेर विस्वासय आसा. आनी हो दुसरो पळेयात ( लुईज दे कामोंइश हाच्या पायनेला-कडेन बोट दाखोवन ) हाचेरय म्हजो विस्वास आसा. हो म्हळयार तुमगेलो इश्ट. जाच्याबराबर तुमी त्या नामनेच्या चित्रविचित्र आनी पराक्रमी हिंदुस्तानांत भोंवन आयल्यात. कसो वेतालो खंय तो ? हयवय.

"घेवन एका हातांत तरसाद
आनी लिखणी दुसऱ्या... "

**तेल्मु :** आरेरे, म्हजो लुईज ! भोंगू बावड्याचें. ताका बरेंच बक्षीस मेळ्ळें. म्हजेपरस तो भुरगो. बरोच ल्हान. पयर निमाणे फावट जेन्ना म्हाका तो मेळ्ळो ! लिजबोआक सांव दोमिंगाचे इगर्जेच्या बल्कांवार पडून आशिल्लो तो. अजून मेरेन दोळ्यांमुखार येता तो म्हज्या. आंगांत कशाकशीय मुस्तायकी. आनी हात-पांय कवळिल्ले ! हरशीं मुस्तायकेचो ताका कितलो सोक ! सबावान कसो घिटायेचो! पुण आतां सामको म्हातारो आनी अपंगूळ जाल्लो. एकूच दोळो खरो पुण दोन दोळयांच्या मोलाचो. पुण तो पसून आतां कितलो फिक्को आनी भितर तोपिल्लो ! हांवें मनांत म्हळें : " आनीक थोड्याच तेंपान येद्या व्हड आत्म्याची ही कूड जमनींत गडप जातली ! " आनी ताच्या म्हऱ्यांत वचून हांवें ताका घट्ट वेंग माल्ली. ती निमाणीच जाली. म्हज्या मनांतले हे विचार आयकल्ल्यावरी ताणें म्हळें : नमस्कार तेल्मा ! चल्लों हांव. ह्या खर प्रवासांत म्हजो सांव तेल्मु म्हाका पावं अशें हांव मागतां. ही पळे म्हाका पलतड दिश्टी पडूंक लागली. आनी ताणें निकत्याच मारिल्ल्या एका फोंडाऱ्याकडेन बोट दाखयलें. इगर्जेंत कांय पाद्री एका मेल्ल्या मनशाचे निमाणचे विधी चलयताले आनी प्रार्थना म्हणटाले. तो भितर गेलो आनी हांव परतलों. फुडें एकाच म्हयन्यान म्हाका कळ्ळें कि सांता आनाचे सेमितेरींत लुईज द कामोंइशाक एका कुबेर्तात गुटलावन व्हेलो म्हणून ! आनी परतून ताचें नांव कोणेंच काडलें ना !

**मारी :** कोणेंच नांव काडलें ना ? अजापच म्हणपाचें. पुराय विसरभोळे आशिल्लया मनशांक पसून ताच्या नावांची याद करून दिवपी तागेलो ग्रंथ ते वाचनात ?

**तेल्मु :** ग्रंथ मू ? तो ताणी एका गुलामान आपल्या धनयाक फारीक केल्ल्या रेणाभाशेन मानून घेतलो. ह्या मोटयामोटया मनशांक आपल्या व्हडपणाचे वडायेभायर हेर कित्याकच मोल नाशें दिसता. ताणीं सगल्यांनी हो ग्रंथ म्हळ्यार एका चाकरान आपल्या धनयाची तुस्त तोखणाय आनी बडवचार गावपाखातीर रचिल्ली एक वस्त अशे नदरेन घेतलो. आनी तितलें काम जातकच ताणीं त्या चाकराक कसलोच आधार आलाशिरो दिना आसतना मरूंक दिलो. बरें, तो मेलो म्हणून तरी कोणें खंत, पर्वा केल्या ? शे ! कांय ना. परतें जाल्यार तांकां मेतल्ल्यान बरेंच दिसले आसुंये. एकादुकली मदत बिदत मागिल्ली जाल्यार ? तेतलेच ना म्हणपाचे तरी त्रास वांचले !

**मारी :** कांय नज. तो सर्गार आसा. सर्ग हो बऱ्या भल्या मनशांक आनी ह्या संवसारांत पिडापीड भोगिल्ल्यांच्या बरेपणाखातीर देवान रचला. ताका देवालीं गुपितां वळखूंक येतालीं. तागेलीं उतरां म्हळ्यार जशीं काय एका गिऱ्यानी पारख्याचींच उतरां. हेंच पळेयात, आमच्या दों सेब्राशितयांव राजासंबंदान ताणें आपल्या ग्रंथांत काडिल्ल्या उतरांचो तुमकां उगडास जायना ? म्हणटकच तो राजा मेलो अशें कशें म्हणूं येता ? ना, तो मरूंक ना. (मागीर ताळो बदलून) पुण हो, हो दुसरो कोण तेल्मा ताली चर्या पळेल्यार इतली त्रासीक आनी भितर पसून. उबगल्लेली ! तागेलें खाड कितलें गच्च आनी काळ्या किट्ट केंसांनी भरिल्लें ! आनी तो हात, तरसादिचे मुठीचेर सुस्त बशिल्लो तागेलो हात ! ह्या संवसारांत आनीक कोणाचोच तेंको नाशिल्ल्यावरी....कोणाचोच मोग नाशिल्ले भाशेन !

**तेल्मु :** (तिगेल्या उतरांनी अजापता ) आशिल्लो, खरेपणानीच मोग आशिल्लो !

( मारी समजल्ल्यावरी तेल्माच्या तोंडाक पळेता, आनी परतून पायनेलाचेर नदर खिळायता. थोडो वेळ तीं दोगांय जाणां तें पायनेल पळोवपांत भान विसरतात. इतले मजगतीं तेल्माचें उलोवणें सोंपतां–सोंपतां दारावयलो पड्डो कुशीक सारून एक मनीस भितर येता. ताणें आंगांतल्या लांब कोटाच्या गोलान तोंड धाकलां आनी दोळ्यांचेर चेपें ओडून घेतलां. तो एक एक पावल मारीत मुखार येता आनी तांकां सुलूस लायनासतना तांचे फाटल्यान उबो रावता. )

## देखाव दुसरो

[ मारी, तेल्मु आनी मानुयेल द सौज ]

**मानुयेल :** तो एक नांवाजतो मनीस आनी शूर सरदार. ताचें नांव दों जुआंव दे पुर्तुगाल.

**मारी :** ( आपूण कोणाकडेन उलयतां ताचें भान नासतना ) जाणांच आशिल्लीं हांव ! म्हाका दिशिल्लेंच.

**मानुयेल :** (तोंडावयलें गोल सकयल ओडटा आनी चेपें काडून अपुर्बायेन) कितें दिशिल्लें तुका मारी ?

**मारी :** ( बापायक वळखून ) कोण ? म्हजो पापा ? खरेंच म्हजो पापा ! ना, ना, कांयच दिसूना म्हाका. आनी ह्या वेळार तर हें सोडून म्हाका आनीक कांयच दिश्टी पडना. ( बापायच्या आंगार उडी घेता आनी ताच्या पोल्याचे पटपटीत उमे घेत. ) तरी बरें तूं आयलो. पुण इतल्या भर दिसाचो कसो ? तुका भंय दिसना ? काय आतां भिरांतिचें कारण उरूंना ?

**मानुयेल :** तशें व्हडलेंशें कारण उरूंना. काल रातीं हांव पावलों ना. आनी आयज सगलो दीस वाट पळोवप म्हाका जमलें ना. देखून हो लांब कोट घालो, तोंडार चेपें ओडलें आनी आयलों.

**तेल्मु :** आतां भिरांत धरपाची कसलीच गरज ना धनयांनो. आज सकाळीं-फुडें हांव कोंम्हेंतांत गेल्लों. थंय फरेय जॉर्जिकडेन म्हाका खबर मेळ्ळया ते भाशेन तें आतां सगळें काबार जालां. आतां दुबावा विरयत आनी मेकळ्या मनान रावात तुमीं.

**मानुयेल :** तशें जाल्यार बरेंच जालें तर. पुण हें सांग मारी, तुगेले आवयचें कितें ? कशी आसा ती ?

**मारी :** कालच्यान निवळ्ळया.

**मानुयेल :** ( वचपाचे तयारेन ) या तर आमी तिचे सरीं.

**मारी :** ( ताका आडायत ) येन्ना नाका. तिका न्हीद लागल्या.

**मानुयेल :** न्हिदल्या ? बरें जालें तर. ते म्हणसर आमी हांगा बसून गजाली

करुंया. (बसतात. मानुयेल बुवेचे हात आपल्या हातांत घेता.) तुजे हात कितले ऊन लागतात गो! (तिच्या कपलाचो उमो घेता.) आनी हें कपल! हें कपल जर सामकें खतखतता! अशें जर तें सदांच पेट्रूंक लागलें तर घडगत ना गो मारी तुजी! तुवें विचार करपाचें सोडून दिवंक जाय.

**मारी :** म्हणटकच हांवें कितें करप तर?

**मानुयेल :** मौज मारप, हांसप, खेळप, शेतां-मळांनी धांवप, फुलां वेंचप तेल्माच्यो खब्रो-काणयो आयकप ना. ताणें हाचेमुखार तुका कवनां-पोवाडे बी शिकोवप ना. कवी आनी पोवाडेकार हे तकलेन....सारके नासतात. आनी ताचो वसो हेर लोकांकय लागता.

**मारी :** मागीर तुमीय तांचेच भाशेन कित्याक करतात तर? म्हाका खबर आसा तुमी कविता बी रचतात तें.

**मानुयेल :** तुका सगलें खबर आसा. (तिका तिडावन) पुण म्हळें, हे शाणुले आजिबाय, तें पायनेल कोणाचें तें मात आतां मेरेन खबर नाशिल्लें.

**मारी :** कित्याक? हांव सगलें जाणां आशिल्लीं.

**मानुयेल :** (ताच्या सारको ताळो काडून) जाणां आशिल्लीं जाल्यार इतलो वेळ पिशा-फालां कित्याक घेतिल्लीं?

**मारी :** फालां बी कांय न्हय. हाव जाणां आशिल्लीं तें, खरें म्हळ्यार, कोणें म्हाका सांगिल्लें म्हणून न्हय तर भितल्ल्यानच्च तशें म्हाका दिसतालें म्हणून. म्हाका फकत खरेपण करून घेवपाचें आशिल्लें.

**मानुयेल :** म्हणटकच आपशींच तुका सगलें समजता तर! व्हडली पारखीणच्च जाली तर तूं! (तिच्या कपलाचो उमो घेता.) तेल्मा, मात्सो म्हगेल्या भावाक आपयशी जाल्यार पळे. हांव हांगा आसां म्हणून सांग ताका. (तेल्मु वता.)

## देखाव तिसरो

[मानूयेल द सौज आनी मारी]

**मानुयेल :** आतां बरे भाशेन आयक आं मारी- तुज्या मनाचो असो एक धर्म जाला कि साद्यासुद्या आनी आपशींच घडिल्ल्या गजालींत पसून कितेंय

जाल्यार एक गूढ चमत्कार भरिल्लो आसा अशें तुका दिसता. पुण देवान जेन्ना हो संवसार आमच्या हातांत दिलो तेन्ना ताच्याबराबर आमकां बुद्‌य बी दिल्या. हे बुद्‌दिच्या बळार खरें कितें, फट कितें हें आमच्यांनी थारावंक येता. फकत देव कसो आनी कितें, ताची कृपा, मोग, काकुळट हाच्या संबंदानताणे केल्लो न्याय हीं कुवाडीं सोडोवपाची तांक मात आमचे बुद्दीक ना. अशे तरेच्या व्हडल्या व्हडल्या आनी जड प्रस्नांचेर भावार्तच दवरचो पडटा. थंय तर्काक सुवात ना. हेर सगल्यो गजाली बुद्दीन किसोवंक येतात. आरे, पुण कितें चलयलां हें हांवें ? ( वोंठांनी हांसत ) कोणेंय हें आयकल्यार म्हाका सेर्माव सांगपीच म्हणटलो. पुण हो घरचे मातयेचोच गूण आसुंये. आमच्या ह्या घराक कोंव्हेंताचोच वास येता मारी.. संन्याशी म्हणूंक आमकां फकत वस्त्रांच उणीं.

**मारी :** पुण तींच घालीं म्हणून संन्याशी जायना.

**मानुयेल :** खरें तुगेलें. आमी आमची कूड कितलीय तरेकवार लुगटांनी गुटलायली आनी कंबराक पटो आंवुळ्ळो म्हणून असल्या भायल्या उपचारांनी संन्याशी जायना. भायल्या वस्त्रांपरस काळजांत जर कळवळो आसत, तें देवाखातीर आकूळ पिकूळ जाता आसत, जाल्यार तो खरो संन्याशी. पुण तेच बराबर बऱ्या भल्या मनशांचो सांगात मेळत जाल्यारय अर्दी वाट चलिल्लेवरी जाता. हांव जाल्यार ह्या घरांत येतपसून खूब खुशाल आसां. हांगा म्हजो भाव फरेय जॉर्जि आसा आनी सांव दोमिंगाचे हेर पाद्रीय बी सामके घरांतच आयिल्ल्यावरी आसात. तुवें अजून हांगाची इगर्ज पळोवंक ना ? ( भितल्ल्या दाराचो पड्डो वयर काडटा आनी दोगांय जाणां सेर्मांव सांगपाचे साकादी म्हऱ्यांत पावतांत. ) खूब देव देवस्कीचें कपेल हें आनी सगलेंच देवूळ कशें गंभीर. पळेतकच मन कशें उपाट भरून येता. देवान मात हो भोव बरो शेजार आमकां खुशालकायेन भोंगूक दिल्यार पुरो ( भितल्ल्यान परतता. वाटेंत मारी दों जुआंव दे पुर्तगालच्या पायनेला मुखार उबी रावता आनी फट्ट करून बापायकडेन तोंड फिरावन ताका विचारता. )

**मारी :** हें चित्र जिस्त आयलां पापा ?

**मानुयेल :** जिस्त. अशीं सारकीं जुळिल्लीं चित्रां भोव थोडीं आसतात. तागेली ती रावपाची तरा, हावभाव, मुद्रा आनी जें जें भायल्यान दिश्टी पडटा तितलेंय चित्रिकान जशाचें तशें उतरायलां. पुण भायले नदरेक दिसनाशिल्ले

आनी एका चित्रांत आसपावंक जाय नाशिल्ले तागेले गूण तो कसो चित्रायतलो ? तागेल्या काळजाचें व्हडपण आनी विटाय; तागेली खर आनी थीर इत्सा हे गूण तो चित्रांत कशे उतरायतलो ? ताच्या नावांची याद काडल्यारच तुगेली आवय आयज पसून अंग शिरशिरायता. इतलो तिका ताचेविशीं आब आनी कांच !

**मारी :** मानी ते दुखदिणे लडायेंत तो सोंपलो ?

**मानुयेल :** हय. तुका चड वायट दिसता मारी ?

**मारी :** हय.

**मानुयेल :** पुण तो आसल्यार तूं आसचें नाशिल्लें. हांव तुका असो वेंगांत घेवंक पावचों नाशिल्लों.

**मारी :** ( बापायचे कुशींत आपलें तोंड लिपोवन ) शी, तशें म्हणूं नाका.

## देखाव चवथो

[ मारी, मानुयेल दे सौज आनी जॉर्जि ]

**जॉर्जि :** आलव्हीस भायर काड, मारीबाय, आलव्हीस. हांगा यो आनी पयलीं म्हाका एक तुजी अपुर्बायेची घट्ट वेंग मार. ( मारी ताच्या लोबाचो उमो घेता आनी ताच्या गळ्याक वेंग मारता. ) मानुयेल, तूं हांगा पावलो तें बेस बरें जालें. सांगपासारकी म्हत्त्वाची गजाल म्हळ्यार तें सगलें जाग्यार पडलें. गोव्हेर्नादोरांनी ती गजाल विसरपाचें थारायलां. मिंगेल दे मौरयबी फाटीं सल्लो. आरसेबिशप सायब काल लिजब्रोआक गेल्ले ते आज हांगा परत येवपाचे आसात. हांव आनी म्हजे बराबरचे चार पाद्री तांकां हाडूंक वेतले. तुवेंय बी आमचे बराबर आयल्यार चड बरें जातलें. तुजो अपमान करपांत तांचें इल्लेंय अंग ना. देखून तुवें तांचे उपकार मानप ही तुजी लागणूकच जाता. तुज्या अपमानांत तांचो वांटो तर नाच. उफाट्टें हेर गोव्हेर्नादोरांचो तुजेवयलो राग निवळावंक तेच मूखार सल्ले. होवूय तांचो उपकार कुशीक दवल्लो जाल्यार ते आज आपूण जावन हांगा येतात, म्हणटकच ते तुगेले पावणेच कशे जातात. देखून तांचो फावोसारको येवकार आनी मानमरातब जावंक जाय.

**मानुयेल :** पुण ते जर एकलेच येतात आसत, बाकिच्या गोव्हेर्नादोरांक

सोडून, जाल्यार.....

**जॉर्जि :** हयवय, एकले–सामके एकलेच येतात ते. बाकिच्या गोव्हेर्नादोरांनी आपलो राबितो तेजु न्हंयेच्या आलतडीन एका भाटांतल्या बंगल्यांनी केला. त्याभायर रात जावंचे पयलीं आमी कशेच पावपाचे नात. ( मात्सो थांबून ) म्हणटकच कितें म्हणटा तूं ?

**मानुयेल :** हांवें येवचें अशें तुका दिसता जाल्यार.....

**जॉर्जि :** दिसताच न्हय तर ती तुजी लागणूकय आसा.

**मानुयेल :** तर मागीर म्हजें कांय म्हणणें ना. म्हाकाय बी लिजबोआक गरजेन वचपाचें आशिल्लेंच. तुमगेल्या साक्रामेंताच्या नव्या कोंव्हेंतांत मुखेल जोगिणीकडेन म्हगेलें एक म्हत्त्वाचें काम आसा.

**मारी :** तशें जाल्यार हांवय येतां पापा तुमच्याबराबर. म्हाकाय बी व्हरात. म्हाका केन्ना काय थंय वचून दोना जुआनकाकीक पळेनशें जालां. जिणेंत एक फावट तरी तिचेर नदर घालची अशी म्हाका उमळशीक लागल्या.

**मानुयेल :** आनी हांगा तुगेले आवयचें कशें ?

**मारी :** ती म्हाका वचूंक दितली. आतां ती बरीच निवळ्ळ्या आनी तुमी दिश्टी पडटकच ती पुराय निवळटली आनी म्हाका वचूंक मेळटलें.

**मानुयेल :** आनी सद्याची लिजबोआची रोगी हवा ?

**जॉर्जि :** ना, ना. ती आतां सामकी निवळ्ळी. सद्या थंय सांथीचें नांवनिशें ना. पुण आपणें जतनाय घेतिल्ली बरीच.

**मारी :** ना, ना, म्हाका कसलोच वसो येवपाचो ना. म्हाका व्हरातच पापा तुमी.

**मानुयेल :** तुगेली आवय कितें म्हणटा आनी ती कशी आसा तें पयलीं पळोवया.

## देखाव पांचवो

[ मारी, मानुयेल आनी जॉर्जि. मादालेन येता. ]

**मादालेन :** ( धांवत येवन घोवाक वेंग मारता. ) आतां हांव साप्प निवळ्ळीं. आतां म्हाका कांयच जायना. मानुयेल, म्हजो व्हडल्यांतलो व्हडलो रोग म्हळ्यार

्सको. तूं म्हाका ना जावन वेशी ही भिरांत.

**मानुयेल :** मादालेन !

**मादालेन :** पुण आतां हांव बरीं आसां. तेल्मान म्हाका सगलें सांगलें. तागेले ुशालेचे खबरेनच म्हाका गूण पडलो. मारी, देवाक आमचो उगडास जालोसो ःसता. म्हगेले सांगणेपरस ताणें तुगेलेंच मागणें आयकलें. ( परतून आपलेच ींकणेंत पडटा. )

**जॉर्जि :** हें पळेयात मादालेन बाय, परतून तुमगेलें तेंच ! देवान दाखयल्ल्या ा दिसा खातीर खरें म्हळयार आमी सगल्यांनी खुशाल आसूंक जाय आनी ाचे उपकार मानूंक जाय. आयज ह्या घरांत कोणेंच खंती आसप म्हळयार ताणें ्वाकडेन बेमान जावप.

**मादालेन :** ( खुशालकाय दाडपाचो येत्न करीत ) खंती ? खंती कित्याक ? ांत सोंपली. ( मानुयेलाक ) तुवें मात हांगाच रावंक जाय आं ! कितें ? म्हजे ःशिनचो हालूंक जायना. म्हाका एकटी दवरून तुवें खंयच वचूंक जायना. ायक मानुयेल, ह्या कांय दिसांत तरी तुवें म्हजीं किरमणां सोंसचींच पडटलीं. ्ज्या सांगाताची म्हाका चडच गरज आसा मानुयेल !

**मानुयेल :** इतलेंच मू ? कांय भियेवं नाका. तूं कितें सांगशी तितलेंय करतां ांव. जालें ?

**मादालेन :** तशी हांव बरी आसां. सामकी बरी. पुण अजून म्हज्या मनांत...

**मानुयेल :** नाका नाका जाल्योच कल्पना येतात. हय मू ? त्यो तुका भेसडा- ्तात, पिड्टात. बरें आसा. तांकां बरेंच चिकोद दिवया; तुजेपसतच न्हय तर ांगा कान लावन आशिल्ले एके चलयेमनशेक बुद्द शिकोवपाखातीर तरी तांकां रीच ख्यास्त भोगोवया. म्हणटकच आयक. आयज सुक्रार....

**मादालेन :** सुक्रार ? ( भिरांतीन आंग काडून ) आवय म्हजे ! सुक्रार !

**मानुयेल :** म्हाका जाल्यार हो दीस सदांच बरो गेला आनी म्हजीं सगलीं ामां बरे भाशेन जाल्यांत.

**मादालेन :** अं....!

**मानुयेल :** जेजूश क्रिस्ताचे म्हायात्रेचो दीस हो !

**मादालेन :** हय !

**मानुयेल :** ह्या सुक्राराच्यान फुडें आठ दीस मेरेन, ना जाल्यार चल, पंदरा

दीस मेरेन, हांव घरांतल्यान भायर सरचों ना. म्हणटकच जालें ? जाल
खुशाल तूं ?

**मादालेन :** मानुयेल, म्हजो मोगाचो मानुयेल, कितलो बरो तूं ?

**मानुयेल :** आनी तुगेलें कितें मारी ?

**मारी :** ( रागार-फुगार जाल्लेवरी ) चल, हांव ना....!

**मानुयेल :** हें रागार-फुगार कित्याक तें जाणां तूं ? आयज मातशें म्हाक
लिजबोआक वचपाचें आसा.

**मादालेन :** लिजबोआक ? आनी आयज ?

**मानुयेल :** हय, गेल्या बगर जायना. म्हज्या आनी त्या गोव्हेर्नादोरांभित
तीड आयिल्ली ती आतां मेटल्या हे तूं जाणांच. ताका लागून हांव तांच्य
व्हडल्या रिणांत आसां. आनी कोण जाणां ! म्हज्या जिवाच्या मोला इतलेंय
रीण आसत. कित्याक तर मिंगेल दे मौर आनी म्हगेले हेर हलकट सोये
धायरे म्हज्या जिवाचें कितेंय करूंक फाटिंकुडें सरचे नाशिल्ले. कशेंय जावं पुण
त्या आर्सेबिशपसायबांच्या उपकारांत मात हांव आसां खरो. आतां थोडयाच
वेळांत ते हांगाच्या कोंव्हेंतांत येवपाचे आसात. तांकां हाडूंक फरेय जॉर्
हांगाच्या कांय पाद्रींसयत लिजबोआक वचपाचे आसात. आपले बराबर हांवें
येवंचें अशें ते म्हणटात. म्हणटकच कशेंय जाल्यार वचचेंच पडलें. आनीक
उपाय ना.

**मादालेन :** आयजच ? आयचो दीस म्हळ्यार सामको वायट ! फाल्यां जाल
जाल्यार ! आयचो सोडून आनीक खंयचोय दीस जाल्लो जाल्यार.... ! आनी परत
केन्ना येतलो ?

**जॉर्जि :** रात जावंचे पयलीं परत आसांतच आमी हांगा.

**मादालेन :** ( दुसरो उपाय नाशिल्ल्यान सोशिकपणान ) च् ! जांव हें तर
नशीब म्हणूंक जाय ! पुण रातिची मात म्हाका एकली दवरूं नाकात अं
आनी चड करून आयचे रातीं तर नाकाच नाका !

**मानुयेल :** ना, ना, इल्लोय हुसको करूं नाका तूं. रात जावचे पयलीं पावतां
हांव. आनी मागीर तुका सोडून खंयच वचचों ना. आठ, पंदरा, वीस, तूं सांगश
तितले दीस.

**मारी :** म्हणटकच हांव येवं मू तुमचे बराबर ? वचूं मगो हांव ?

**मादालेन :** तूं आनी खंय वेता पुता ? कितें विचारता तूं हें ?

**मारी :** पापाबराबर. वाटेंत ते साक्रामेंताच्या कोंव्हेंतांत वचपाचे आसात. आनी तूं जाणांच, कितल्या दिसां सावन म्हाका दोना जुआनकाकीक पळोवपाचे हुटहुटे लागल्यात !

**मादालेन :** आतां तिका काकी म्हणूंक जायना अं ? आतां ती मठांत गेल्या म्हणटकच तिका भयण म्हणूंक जाय.

**मारी :** बरें. पुण आयज उबें एक वरस जालें; व्हरतां, व्हरतां म्हणून सांगतात; पुण व्हरपाची मात खब्बर ना. तें कांय ना, आज म्हाका व्हरूंकच जाय. व्हरतात मू ? वचूं मगे हांव ? ( आवयकडेन लाडीगोडी करीत ) हय, हय म्हण गे !

**मादालेन :** ( मारीक वेंगांत घेत ) मारी तूंवय मगो ? तूंवय म्हाका एकलीच दवरून वेता मगो ? आनी पुरत्यांत आयज ?

**मारी :** रोखडीच येतां मगे हांव. खरेंच येतां. आनी पळे, म्हजे पसत तूं कसलोच हुसको करपाची गरज ना. म्हज्या बराबर पापा वेता. जॉर्जिकाका वेता, म्हगेली आया दोरोती, तिकाय व्हरतां हांव आनी हें पळे, आमगेलो तेल्मु-काकाय येता आमच्या बराबर.

**मादालेन :** आनी तुगेले आवयक मात एकटीच आसुंदी न्हय चिंतेंत दीस सारीत ? ( कुशीक ) आनी....आनी भिरातींत ?

**मानुयेल :** तुगेले आवयली म्हणणी खरी. तें बरें जावंचें ना. तुवें आयज गेल्लें बरें न्हय. ( मारी खंती जाता; ताचें मन पडटा. )

**जॉर्जि :** जालें ? हांवें तुमकां सांगिल्लेंच, आयज ह्या घरांत कोणेंच खंती जाल्लें म्हाका मानवचें ना म्हणून ? ये फुगरे चलये, हांगा यो आनी म्हज्या पायां पड. जाल्यारच हांव तुगेलें काम करतलों. हें पळे, तुगेल्या आवयच्या सांगाताक हांव रावतां. तूं खुशाल वच आनी ते जोगिणीक पळोवपाची तुगेली इतल्या वरसांची उमेद पोटभर भागोवन घे. हो संवसार सोडून जिणें सगल्याचो त्याग केलो अशें एके व्हड बायलमनशेक पळोवपाची तुगेली उमळशीक खरेलीच तोखणायेची आसा. वच आनी बरी जावन यो. म्हळ्यार सबावान न्हय. तुजो सबाव भोव बरो आसाच, पुण तुगेली तकली मातशी न्हिवूंक जाय; शांत आसूंक जाय. आयकलें ?

**मारी :** ( कुशीक ) शांत ! ती रिती आसल्यारच शांत आसतली ! (मोटयान) म्हणटकच तयारेक लागूं तर हांव ? ( आवयक लेखून ) हांव भायर सरूं मगे ?

**मादालेन :** ( उबगल्लेवरी ) तुगेलो बापूय सांगता जाल्यार....

**मानुयेल :** येवंदी तिका. चल. ( मारी धांवत भितर वेता. )

## देखाव सवो

[मानुयेल द सौज, मादालेन आनी जॉर्जि.]

**मानुयेल :** तिका मातशी मेकळी सोडूं जाय. तिगेलें लक्ष दुसरे कडेन वचचें हे पसत तिगेलो जागो बदलूंक जाय. तिगेलें रगत भितल्ले भितर पेटत आसा. तें जाय तशें घोळूंक दिलें ना जाल्यार आपशींच लासून काबार जातलें. तूं पळेशी, तें बरेंच निवळून येतलें.

**मादालेन :** देवादयेन तशेंच जावं. तेल्माक वचुंदी तिच्याबराबर. ताची म्हाका हांगा गरज ना.

**मानुयेल :** तो कित्याक जाय ?

**मादालेन :** कित्याक, मारीक ताचेबगर सूख लागना आनी ती नासत जाल्यार ताचीय तशीच गत्त जाता. मारी म्हळ्यार आपलो दुसरो प्राणच अशें तो म्हणटा. आनी जाणां तूं ? आपुणय हालीं कितेंशें वाचता आनी आपली बुदवंतकाय आनी मत्तां म्हजेकडेन खपोवंक सोदता.

**मानुयेल :** जावं, भोंगूं बावड्याचें. सामको म्हातारो जाला तो. ताकाय येवंदी. चड बरें.

## देखाव सातवो

[मानुयेल, मादालेन आनी जॉर्जि; मारी आपल्या वांगडा
तेल्माक आनी दोरोतीक घेवन येता. ]

**मारी :** चलात, या तर पाया आमी.

**मानुयेल :** या, या.

जॉर्ज : चलात तर. वेळ जालो. न्हंयेचो इल्लोसो कुडको काडटकच पावलींच तुमी. आनी आयक. जिस्त सात वरांचेर तुवें वोयराच्या धक्यार पावंक जाय हाचो उगडास दवर. ह्या धक्यार आमगेले पाद्री आर्सेबिशपसायबांक येवकार दिवंक जमतले. म्हज्या संबंदान जाल्यार हांव कशेय तरेन पचोवन व्हरन. चलात तर.

मारी : (आवयक वेंग मारून) तूं अशी दोळ्यांतल्यान दुकां काडटा जाल्यार हांव वचना बाये.

मानुयेल : आनी हांवय बी मादालेन! शीऽ बाबा, तुका हांवें अशी केन्नाच पळोवंक ना.

मादालेन : हाचें कारण म्हळ्यार म्हजी अशी दशा केन्नाच जावंक ना. पुण तुमी चलात, चलात. म्हज्या मोगाच्या मानुयेल, बरें भाशेन वचून यो. मारी, म्हज्या काळजाचे धुवे, सांबाळून वच. थंड वाऱ्यांत कुडकुडूं नाका तशेंच वोतांत भाजूं नाका. तूं तोल्दांतल्यान भायरच सरूं नाका कशें. तेल्मा, तुमी मारीच्या म्हऱ्यांतले हालूं नाकात. आनीक एक फावट म्हऱ्यांत यो म्हजे धुवे. दोरोती, सगळें घेतलां मू बराबर ? पळोवया ? ( दोरोतीच्या खांद्यावयली पोती काडून ती उसोवन पळेता ) सांगूं येता ? कितेंय जायत. एकाद्रें भिजत, शिंयान कुडकुडत.... ( पोती पळोवन जातकच ) जांव, सगळें आसा. ( दोरोतीकडेन फुतफुत्ता. ) ताचे वयली नदर काडूं नाका. आनी आयक ( दोरोतीकडेन ल्हवू उलयता आनी तिच्रूय तेंचभाशेन तिका जापो दिता. मागीर मोटयान ) म्हणटकच बरें तर! बरे भाशेन वचून येयात !

मानुयेल : कसलोच हुसको करूं नाका पळोवया. आमी सगळींच जाणां ताचे बराबर आसात. ( एकामेकांक वेंग मारतात. मारीक रडें फुट्टा. पुण तें आवयक कळचें न्हय म्हणून तें बेगिबेगीन भायर कडासता. )

## देखाव आठवो

[ मानुयेल, मादालेन आनी जॉर्जि ]

मादालेन : ( सडसडीत भायर वेतल्या मारीकडेन पळेत मानुयेलाक जाप दिता ) हुसको !... म्हाका आतां कसलोच हुसको ना. आसा ती फकत भिरांत.

व्हडली भिरांत. हांव ह्या संवसारांत एकलीच उरन काय, एकली–एकुसुरीच म्हाका जीण सारची पडत काय हीच भिरांत म्हाका दीसरात चोंचीत आसता.

**मानुयेल :** मादालेन !

**मादालेन :** कितें सांगूं ? म्हजा हातांत ना तें. म्हज्या ह्या कटकटींक लागून तुका वाज येवपाचोच. भंगूं तें. आतां हें उलोवणेंच पुरो करुंया. चलात, वचून येतात तुमी ! आनीक एक फावट म्हाका वेंगेंत घे. ( तशें करतात. ) बरें तर, येयात !

**मानुयेल :** बायेगे, तुगेले हे करणेवयल्यान हांव तारवार बसून खंय तरी पयस पयस वचूंक भायर सल्लां अशें कोणाकय दिसतलें. आनी हांव तर हो पळे तीन-सांज जावचे पयलीं हांगा पाववपाचो जालों. ते जुआन जोगिणीक पळे. आमगेल्या मारीकय तिका पळोवपाचे सामके हुटहुटे लागल्यात- ती पयलीं एका व्हड सरदाराची बायल आशिल्ली. पुण आपलो घोव आनी घरदार सोडून वेतना ती कितल्या घट्ट मनान मठांत गेली, जाणां तूं ?

**मादालेन :** देव बरें करूं तिचें ! देवान तिका खूब शक्त दिल्या. गुणांनी तितल्या वयल्या पावंड्याचेर पाववपाची म्हज्यांत तांक ना. पुण म्हणून हांव तिचो दुस्वासय करिना.

**मानुयेल :** खरेलीच खूब ऊंच पावंड्याचेर पाविल्ली बायल ती. आमगेल्या धर्मांत सांगलां ते तरेची. " सगल्याचो त्याग कर आनी म्हज्या फाटल्यान यो. "

**मादालेन :** तशेंच केलें तिणें. दोगांय जाणां जितीं; दोगांकय एकामेकांची तोखणाय, ओड आनी मोग. इतलेंय आसून दोगांनीय वेगळे सरप आनी आपापल्या फोंडाऱ्याकडेन वचप ! खूब काळमेरेन दोगांनीय एकामेकांचेर जीव घालून सांगातान रावप आनी भलायकेन घटमूट आसुनय निमाणें मडे- वस्त्रां गुटलावन पयस पयस मसणांत वचप ! एकलीं आनी एकसुरीं....! आनी कोण जाणां, या आकांताच्या वेळार केल्ले करणेचे पच्छताप करीत जाल्यार !

**जॉर्ज :** देव अशें करचोना....करूंक दिवचो ना ! आवयस, कितलो आकांत जातलो आशिल्लो ?

**मानुयेल :** अशें घडचें ना आनी घडूंकय फावना. पुण आमकां कित्याक पडल्यात तांच्यो जाणवायो ? देव पळोवन घेत तांचें. आमची परिस्तिती तांचे

परस इतली वेगळी....( इल्ल्या वेळान ) आनी कसलीय परिस्तिती आसूं, देवाची आमचेर कृपा आसतलीच. बरें तर मादालेन, वेतां हांव. येन्ना मारी धक्यार पावलें जातलें. जॉर्जि, हिचेर नदर दवर. ( एकामेकांक वेंग मारतात. मादालेन घोवाक दाराभायर पावंक वेता. )

## देखाव णवो

[ जॉर्जि एकलोच ]

**जॉर्जि :** हांव खुशाल रावपाचो येत्न करतां आनी ताणींय बी सगल्यांनी खुशालकायेन जियेवचें अशें म्हाका भितल्ल्यान दिसता. पुण म्हगेली भावज, तिगेली धूव, हांगेली परिस्तिती पळोवन कितें उलोवचें तेंच म्हाका समजनाशें जालां. आनी म्हगेल्या भावाक तर हांव वळखच नासो जालां. सगल्यांच्याच मनाक आपल्याचेर कसलेंय तरी एक संकश्ट येवपाचें आसा हो विचार चोंचता सो दिसता. आनी कितें सांगतलो ? म्हाकाय ह्या रोगाचो वसो लागलासो दिसता. देवा, तूं आमकां पाव !

## देखाव धावो

[ जॉर्जि आनी मादालेन ]

**मादालेन :** ( तोंड पेले कडेन करून उलयता ) चल मिरांद, आयकता ? चल आनी तांगेलें व्हडें परत येसर तूं धक्यारच राव. आनी तीं व्हडयांतल्यान देंवलीं काय तूं सडसडीत येवन म्हाका कळय. म्हणटकच हांव हुसक्यामेकळीं जातलीं. ( माचयेच्या तोंडार येंवन ) आज काय वादळी वाव ना; दीस तर इतलो बरो आसा ! म्हणटकच वेतना तांचो हुसको करपाची गरज ना ! पुण येतना ? कोण जाणां ! वेळ इतल्या बेगीन बदलता....!

**जॉर्जि :** ना, आयज भिरांत ना.

**मादालेन :** आयज...आयज ! आयच्या दिसाचो म्हजे जिणेंत हांवें इतलो घसको घेतला ! तो दीस कितेंय वायट घडनासतना बरे भाशेन वचत काय कितें

हाचो म्हाका सदांच हुसको जाला. एके नदरेन सामको म्हत्त्वाचो दीस हो! अशाच ह्या दिसा म्हजें पयलेपणांतलें लग्न जालें! हयाच दिसा आमचो राजा दों सेबास्तियांव आमकां सोडून गेलो आनी जाणांत तुमी? मानुयेलाक पयलेच खेपे हांवें पळेलो तोवूय दीस होच!

**जॉर्ज :** म्हणटकच मानुयेलाची वळख हिवूय तुमी वायट घडणुकेंत भरशितात काय कितें?

**मादालेन :** हय. आयज जरी हांव मानुयेलाकडेन लग्न जाल्लीं आसलीं आनी आमच्या मोगाक देवाधरमाचो तेंको आसलो तरी ताचो आरंभ एका व्हड गुन्यावांत.... पापांत जाला! अशाच हया दिसा हांवें पयलेच खेपे मानुयेलाक पळेलो आनी तेन्नाच्यान हांव ताचेर मोग करूंक लागलीं. म्हज्या पयलेपणांतलो घोव दों जुआंव दे पुर्तुगाल तेन्ना जितो आशिल्लो. हांवें केल्लें पापय काळजांत अजून जियेतालें. तोंड कोणाकडेन वदलें ना आनी दोळयांनी कितें केलें तें हांव नेणां. पुण म्हज्या काळजांत मात मानुयेलाभायर कोणाकच सुवात नाशिल्ली. म्हज्या पयलेपणांतल्या भोव बऱ्या आनी व्हड मनाच्या घोवाक हांवें दिलें तें फकत म्हजें शील जें खंयचीय बऱ्या घराण्यांतली चली घोवाच्या मोगापरस घरच्या बऱ्या वळणाक लागून दिवंक पावता. फुडें देवाली इत्सा जाली आनी त्या दुख-दिण्या आल्कासेर किब्रीरच्या झुजांत–कोण जाणां म्हजी पारख करूंक जाल्यार-म्हगेलो पयलो घरकार सोंपलो!

## देखाव इकरावो

[मादालेन, जॉर्जि आनी मिरांद ]

**मिरांद :** ( ताकतिकेन ) बाय मादालेनबाय!

**मादालेन :** ( कच करून आंग काडून ) कोण? तुका कोणें आपयला? कितें जाय तुका? आं! तूंरे मिरांद? अशें कशें तर? ते परतले? जावचें ना.

**मिरांद :** ना मादालेनबाय, ते निकतेच सांकवा पलतडीं पावले आसत. पुण हे खातीर येवंक नाशिल्लों हांव!

**मादालेन :** कित्याक तर ? हांवे तुका सांगू नाशिल्लें ते परत पावचे पयलीं हांगा येवं नाका म्हणून ?

**मिरांद :** हो पळेयात. थंयच चल्लों हांव. अजून जायतो कळाव आसा. पुण हांव आतां आयलां तो तुमकां एक सांगणी घेवन. एक नवलाची....रिती भायरीच सांगणी.

**मादालेन :** सांग बेगीन. म्हाका हुसक्यांत घालूं नाका.

**मिरांद :** तितली हुसक्याची खबर न्हय ती...आनी म्हत्वाची तर न्हयच न्हय. परती जाल्यार हांशार घालपाची. इश्पान्य देशांतल्यान आन्या पयन्यान हांगा तरेतरेचे भोंवडेकार येनात ? तांतुतलोच एक बावडो म्हातारो भोंवडेकार हांगा पावला.

**मादालेन :** एक लडायेंतलो कैदी बी न्हय मू ?....एक बाटगो किरिस्तांव बी ?

**मिरांद :** न्हय, ताचेकडेन ते तरेचो खुरीस बी ना आनी तांतूतलो न्हयय बी तो. तो एक भोंवडेकार. सांव तियागाक बी वचनात ? तातूंतलो एक यात्रीक. पुण तो सांगता आपूण रोम शारांतल्यान आनी पवित्र थळांकडसून आयलां म्हणून.

**मादालेन :** आयला आसत बावडो ! ताका जागो दियात आनी कितें लागत तें दियात.

**मिरांद :** तो सांगता आपूण पवित्र देशांतल्यान आयलां म्हणून आनी....

**मादालेन :** आनी कित्याक येवं नये ? चल, वच सडसडीत; ताका बिराडाक जागो दी आनी कितें जाय, नाका पळे. चड जाण्टो आसा ?

**मिरांद :** म्हातारो आसा तो. आनी केदें व्हडलें खाड आसा ताका ! खरेपणानीच इतलें सोबीत आनी धवें फुल्ल खाड हांवें केन्नाच पळोवंक ना. पुण मादालेनबाय, तो सांगता–आपूण पालेस्तिनांतल्यान आयलां आनी तुमकां एक सांगणी हाडल्या म्हणून.

**मादालेन :** कोणाक, म्हाका ?

**मिरांद :** हय, तुमकां. आनी तुमकांच तो मेळटलों आनी तुमकांच ती कळयतलो खंय.

**मादालेन :** फ्रेय जॉर्जे, तुमी वचात आनी ताका मेळात पळोवया. कितेंय जाल्यार चूक आसतली. कशेंय जावं. ताका मेळात आनी कितें घडलां तें मळेयात.

**मिरांद :** कसलीच गरज ना. ताणें जी सांगणी हाडल्या ती तुमचे बगर कोणाकच कळोवचो ना आनी तुमकांच तिचें म्हत्त्व अशें तो म्हणटा.

**जॉर्जि :** हांव सांगतां कितें तें. तो म्हणटा थंयसूनच जर तो आयला आसत जाल्यार ताणें कसलीय तरी थंयची पवित्र वस्तू हाडल्या आसतली आनी ती तुमकां दिवन तुमचेकडल्यान ताका एक व्हडलें म्होरें उठोवपाचें आसतलें. अशेंच करतात हे लोक.

**मादालेन :** तशें जाल्यार येवंदी ताका. घेवन येयात तर त्या यात्रिकाक हांगा.

## देखाव बारावो

[ मादालेन आनी जॉर्जि ]

**जॉर्जि :** असल्या ह्या भोंवडेकाराकडेन सांबाळून चलूंक जाय. तांगेल्या चेप्या-वयली शिंपली आनी हातांतलो दांडो म्हळ्यार जायत्या खेपो साद्याभोळया लोकांक फटोवपाच्यो मांडण्यो आसतात. आनी ह्या उचांबळ दिसांनी तर....

## देखाव तेरावो

[ मादालेन, जॉर्जि, मिरांद आनी यात्रीक. ]

**मिरांद :** ( यात्रिका सयत दाराकडेन रावन ) हो पळेयात भोंवडेकाराक हाडला.

**मादालेन :** ताका भितर येवंदी. आनी हें पळे मिरांद, तुका फर्मायल्ल्या कामाक तूं वच आनी तुका हांवें सांगिल्लें ते भाशेन सगळें कर.

**जॉर्जि :** ( उजव्या दाराकडेन वचून ) येयात, भावांनो येयात. ( भोंवडेकार सवकास येता. ) मादालेनबाय म्हणटात त्यो ह्यो. हांचेचकडेन तुमकां उलोवपाचें आसा मू ?

**यात्रीक :** हय, हीच.

( जॉर्जि मिरांदाक कुरू करता आनी तो भायर वेता. )

## देखाव चवदावो

[ मादालेन, जॉर्जि आनी यात्रीक. ]

**जॉर्जि :** तुमी पुर्तुगेज ?

**यात्रीक :** देवादयेन खांपो पुर्तुगेज.

**जॉर्जि :** आनी खंय साकून येतात ?

**यात्रीक :** जेजूश क्रिस्ताच्या पवित्र थडयाकडल्यान.

**जॉर्जि :** आनी तुमी सगळीं पवित्र थळां पळेल्यांत ?

**यात्रीक :** पळेल्यांतच न्हय तर थंय पुराय वीस वरसां काडल्यांत ?

**मादालेन :** पवित्रतायेन जीण सारली तर तुमी.

**यात्रीक :** हांवें थंय खूब हाल काडले. मात ते शांतपणान सोसूंक पावलोंना. ाका तांणीं खूब ख्यास्त आनी दंडणा भोगयली. हांवें तांकां ती भोकसूंक जाय ाशिल्ली. जेजूश क्रिस्तान आपल्या निमाणच्या वेळार मनीस कुळयेखातीर ागिल्ले त्रास येवजून हांवें म्हगेले विसरूंक जाय आशिल्ले. पुण तेंवूय सुख ाका मेळ्ळें ना. ताचो उगडास करचो, ताची प्रार्थना करची अशें म्हाका खूब ब दिसतालें पुण म्हजीं अशीं मानिल्ल्या मनशांचो म्हाका उगडास येवन तेंवूय ंव चित्त लावन करूंक पावलोंना आरेरे, जंय आशिल्लों थंय सासणाचो ्याची म्हज्यांत योग्यताय नाशिल्ली. तुमी पळेतातच, हांव थंय मरूक पावलोना !

**जॉर्जि :** देवाच्या मनांत तुमकां तुमच्या आज्या-पणज्यांच्या देशांत हाडपाचें ाशिल्लें. आतां ताची इत्सा जायत तेन्ना भुरग्यांचे वेंगेंत तुमी बरेभाशेन जीव ाडात.

**यात्रीक :** म्हाका भुरगीं नात भौमानेस्त पाद्रीसायब.

**जॉर्जि :** जावं तुमच्या कुटुंबांत....

**यात्रीक :** म्हजें कुटुंब ! म्हाका आता कुटुंबय ना !

**जॉर्जि :** जाल्यारय कोणय सोयरे-धायरे....इश्ट....

**यात्रीक :** सोयरे !... जे सामके लागिंचे आनी हांगा मेळटले अशें दिशिल्ले ्गीं हांव मेलों अशें धल्लें आनी म्हज्या मरणाचेर तांणीं आपलें सूख उबाल्लें ातां म्हाका मातपसून वळखनात अशें सांगूंक तीं फाटिंफुडें सरचीं नात.

**मादालेन :** अशें करपा इतलीं वायट आनी हीण मनशां आसत ह्या संवसारांत ?

**यात्रीक :** गरज ही मनशाक कितेंय करूंक लायता. जावं. शक्य आसत जाल्यार देव तांकां मखलाशी करीत.

**मादालेन :** तुमी कित्याकितेंय समज करून घेवं नाकात.

**यात्रीक :** हांव कित्याकितेंय समज करून घेना. म्हज्या सोयऱ्यांविशीं म्हणशात जाल्यार म्हाका तांची जाय ताचे परसय चड खबर मेळ्ळया. आनी इश्टा संबंदान विचारशात जाल्यार म्हाका एकच इश्ट आसा आनी ताचेर म्हजो पुराय भरवंसो आसा.

**जॉर्जि :** म्हणटकच तुमी समजतात तितले दुर्दैवी न्हय तर.

**मादालेन :** आनी म्हज्यान जें कितें करूंक जायत तें हांव तुमचे खातीर करीन. तुमकां सगले तरेचो आधार आलाशिरो दीन. तेच भाशेन म्हगेलय घोवाकय तुमकां मजत करपाक खूब खोस भोगतली.

**यात्रीक :** तुमचे कडेन हांवें कितें मागलां काय कितें ?

**मादालेन :** ना, ना. तुमचो अपमान जालो जाल्यार मखलाशी करात.

**यात्रीक :** अपमान असो जाता तो फकत देवाचो. दुसरो अपमान हांव वळखना. मागतलींच जाल्यार ताचेचकडेन मखलाशी मागात. कारणां आसतलींच !

**मादालेन :** आसात बाबा आसात, देवाक म्हजी काकुळट आयल्यार पुरो.

**यात्रीक :** येतली.... !

**जॉर्जि :** ( मर्दींच तांचें उलोवणें तोडून ) आगा जाणटेल्या, मादालेनबायेक तुमी एक सांगणी हाडल्या म्हणटाले न्हय ? सांगात तर ती. मागीर तुमकां विसव घेवपाचो आसतलो.

**यात्रीक :** इतलो वेळ उलयत रावन तुमच्या बरेपणाचो फायदो घेतलो अशें तुमकां सुचोवपाचें आसतलें न्हय ? बरें केलें तुमी. एकाद्रो विसरनय आशिल्लों. हांव इतलो म्हातारो जालां आनी म्हज्यांत इतलो बदल घडला !

**मादालेन :** जावं, जावं आं. तांतूंत कांय ना. तुमगेल्यो गजाली आयकूंक म्हाका खोस भोगता. जाय तेन्ना कळयात तुमगेली सांगणी. आयज....फाल्यां....

**यात्रीक :** ना, ना. आतांच सांगतलों. आयज तीन दीस जाले म्हज्या दोळ्यांक पाती लागूंक ना. आनी विसव कसलो तो हांवें मात्तय पळोवंक ना. ह्या तीनय दिसांत तकली खंयच तेंकयल्लिना आनी पांय खंयच थांबयले नात. इतलेच खातीर

कि कशेय तरेन आज हांगा उडी घालची आनी तुमकां ती सांगणी कळोवची. उपरांत म्हाका मरणय आयल्यार पर्वा ना. ज्या दिसा म्हाका बंदखणींतल्यान सोडलो–आयज उबें वरस जालें ते गजालेक–त्या दिसा हांवें सोपूत घेतिल्लो. जेजूश क्रिस्ताच्या पवित्र थडयाचेर हात मारून सोपूत घेतिल्लो....

**मादालेन :** म्हणटकच जेरुजालें शारांत तुमी बंदी जावन आशिल्ले ?

**यात्रीक :** आशिल्लों; आतांच सांगलें ना तुमकां, हांवें थंय वीस वरसां काडल्यांत म्हणून ?

**मादालेन :** हय. पुण....

**यात्रीक :** हांवें सोपूत घेतिल्लो तो असो कि वरस सोंपचे पयलीं तुमकां येवन मेळटलों आनी जाणें म्हाका धाडला ताची सांगणी तुमकां कळयतलों.

**मादालेन :** आनीक कोणें धाडला तुमकां जाणटेल्या ?

**यात्रीक :** एका मनशान. एका व्हड काळजाच्या मनशान. ताका लागुनच हांव बंदखणींतल्यान सुटूंक पावलों. तोच एक म्हजो आधार. आनीक कोणच ना. देखून ताची इत्सा भागयतलों असो सोपूत घेवन हांगा आयलां-

**मादालेन :** ताचें नांव कितें ?

**यात्रीक :** ताणें आपलें नांव तेच परीं आपल्या घरच्या मनशांची नांवां कोणाकच सांगूंक नात.

**मादालेन :** पुण तुमी सांगात;

**यात्रीक :** तागेलीं उतरां हांवें तागेल्या रगताच्या दुकांनी म्हज्या काळजार बरोवन हाडल्यांत. जायते खेपो तीं ताच्या पोल्यांवयल्यान गळ्ळयांत आनी ह्या हातांनी हांवें तीं पुसल्यांत. ताका थंय धीर दिवंक आनीक कोण नाशिल्लो. आशिल्लो तो एक हांव आनी दुसरो....दुसरो देव ! म्हणटकच पळेयात. ताचीं उतरां हांव कशीं विसरन ?

**जॉर्जि :** सभाग्या, सोंपयात.

**यात्रीक :** आतां सोपयतांच. ताणें खूब सोसलां. तुमींय इल्लेशें सोसात आनी आयकात ताची ही सांगणी. "असोच वच आनी मादालेनाक सांग कि तुजें सदांच बरें मागपी एक मनीस तुज्या दुर्दैवान हांगा जितो आसा. बंदी म्हणून हांगा हाडीत सावन ह्या वीस वरसांत ताका भायर सरूंक मेळ्ळें ना

आनी आपली कसलीच खबर तुका धाडूंक ताका जमलें ना !

**मादालेन :** आवयस ! देवा, तूं म्हाका पाव सायबा ! आनी ह्या तुमच्या इश्टाक खंय....खंय सावन धरून व्हेल्लो ? आफिरकेच्यान ?

**यात्रीक :** हय, थंयच्यानच.

**मादालेन :** बंदी म्हणून ?

**यात्रीक :** हय.

**मादालेन :** तो पुर्तुगेज ? आनी ताका खंयच्या-खंयच्या झुजांत धरून व्हेल्लो ?

**यात्रीक :** आल्कासेर किबिराच्या.

**मादालेन :** ( आकांताचे भिरांतीन ) देवा, देवा, ही पायांपोंदची धर्तरी कित्याक फुटना आनी ह्यो वणटी...हयो वणटी कित्याक कोंसळून पडून म्हाका पुरून उडयनात ?

**जॉर्जि :** मादालेन, दोना मादालेन, वोगी रावात. देवाचे दयेक अंत आन पार ना. रावात, म्हाका दुबाव येता. फट्ट करून विस्वास दवरी सारक्यो गजाली न्हय हयो. ( विचार करता आनी ताका एकदम कितें सुचता. ) हयवय, देवालीच सुचोवणी म्हणूं जाय ही. ( मागीर यात्रिका म्हऱ्यांत वचून ) यात्रिकां तुमी हया तुमगेल्या इश्टाक सामके वळखतात न्हय ?

**यात्रीक :** म्हाका वळखतां तितलोच.

**जॉर्जि :** तशें जाल्यार ताका उणे पिरायेचो आनी दुसऱ्या पोशाकान पळेलो- म्हळयार तागेलें पायनेल पळेलें जाल्यार तुमी वळखशात ?

**यात्रीक :** हारशांत पळावन म्हाका वळखन तितलोच.

**जॉर्जि :** तशें जाल्यार ही पायनेलां पळेयात आनी हांतूंत तो आसत जाल्यार सांगात.

**यात्रीक :** ( हेवटेन तेवटेन पळे नासतना नीट दों जुवांव दे पुर्तुगालच्या पायनेलाकडेन बोट दाखोवन ) होऽ पळे.

**मादालेन :** ( व्हडल्यान एक किळांच मारून ) हाय ! म्हजे धुवे, हाय हाय ! म्हजें नशीब फुटलें ! तुजें आनी म्हजें नांव भंगलें. तू कर्मकट्टी जाली, हांव कर्मकट्टी जालीं ! दोगांय फुटक्या नशिबाचीं ! हाय, हाय !....( भिरांतीन थरथरत आनी आकांत करीत धांवत भितर वेता. )

## देखाव पंदरावो

( जॉर्जि आनी यात्रीक ती वेता तें पळेतात. यात्रीक त्या सालांत कडक आनी भिरांकूळ चर्येन घट्ट उबो आसा. )

जॉर्जि : यात्रिका, यात्रिका तूं कोण ?

यात्रीक : ( हातांतल्या दांड्यान दों जुआंव दे पुर्तुगालचें पायनेल दाखोवन ) कोऽण न्हय.

[ फरेय जॉर्जि हातपांय ताणावन घो करून जमनीर पडटा. ]

[ पड्डो पडटा ]

★ ★ ★

# तिसरो आंक

[ दों जुआंव दे पुर्तुगालचे पालासिचो सकलो भाग. प्रेक्षकांचे दावे वटेन पियेदादीच्या कपेलांत वचपाची वाट. ह्या आंकांतले प्रसंग पालासिच्या एका आस्कळ विस्कळ सालांत घडटात. सालांत सोबितकायेच्या वस्तुंचो उणाव. वणटींक तेंकून लापयांव, खुरीस, वाती पेटोवपाच्यो काश्तिसाली आनी अशे तरेच्यो धर्मीक दबाज्यांक आनी इगर्जेंतल्या नित्याच्या वावराक उपकारा पडपाच्यो वस्तू. वणटिचे एके कुशीक लुगटाचें माक तर दुसरे कुशीक एक व्हडलो लांकडी खुरीस. खुरसाचेर J. N. R. J. अशी अक्षरां आनी एक हुमकळायल्लो तुवालो; सेमान सान्ताच्या उत्सवा वेळार उपकारायतात तसलो. माचयेच्या तोंडार एक ल्हानशें मेज आनी तीन तांबरेती. थंयच कुशीन पेटयल्ले मेणवाती सयत एक काश्तिसाल. मेणवात सामकी काबार जायत आयल्या. मेजाचेर संन्याशाचो एक सगलो पोशाक; लोब, फाटीर सोडपाचें एक मोटवेशें पाल, कंबराचो पटो, मणयांची माळ बी. वेळ– मध्यान रातिचो. ]

## देखाव पयलो

[ मानुयेल– मेजाम्हन्यांतले तांबरेतिचेर बशिल्लो; तकली छातयेर बागयल्ली; हात हुमकळल्ल्यावरी. मनान आनी कुडीन पुराय गळीत. जॉर्जि– मेजाचे दुसरेवटेन, तसोच तांबरेतीर बशिल्लो. हात जोडिल्ले आनी नदर भावाचेर खिळायल्ली ).

**मानुयेल :** हाय, हाय, म्हजे धुवे, हाय हाय ( कांय वेळ किण्ण जाता. ) नशीब फुटकें म्हजे धुवे, तूं आवय-बापूय नाशिल्लें कशें भुरगें जालें. घरादाराक,

कुटुंबाक, नांवलोकिकाक, सगल्याक, सगल्याक आयजपसून तूं नागवलें. ( उमाळ्याच्या भारान फट्करून उबो रावता ) खरें म्हळ्यार केन्नाच ताका हांतुंतलें कांयच मेळ्ळें ना ! आनी जॉर्जि, हेंच येवजून म्हजो जीव म्हाका खाता आनी हांव खामको निर्शेतां ! ( किंवाट्यान भावाचो हात दामता आनी तो ताका कुरवांनी समजायता. ) ही म्हगेले चुकेची ख्यास्त–जर ती चूक अशी मानली जाल्यार – पुण गुन्यांव मात खात्रीन न्हय हें हांव जाणां. पुण देवाक कितें दिसता कोण जाणां ! ताणें म्हाका ही ख्यास्त घडयली.

**जॉर्जि :** शांत जा, शांत जा भावा. देवाल्या निर्णयाचो आमकां अंतपार लागना. (ताका थंडायता आनी दोगय जाण पयलीं सारके बसतात. )

**मानुयेल :** पुण कित्याक लागून संवसारांतलें हें येदें व्हडलें दुख्ख म्हाका फावो जालें ? बारीक मोट्या लोकांच्या बकच्छायांक आनी फुतफुतावणेक हांव, एका नांवाजल्या बापायचो पूत, जॉर्जि, तुज्या आनी म्हज्या बापायचो पूत, कित्याक म्हणून भकीक पडलों ?

**जॉर्जि :** तूं आपल्याक संवसारांतलो चडांत चड दुख्खी मानता. पुण अजून तो....तो जितो आसा हें तूं विसरता.

**मानुयेल :** हय खरें. ( थोडो वेळ थांबता अनी आपली चूक सुदारिल्लेवरी ) पुण न्हय, तूं म्हणटा तशें न्हय. ताणें खूब भोगलें खरें. मनशाच्या कोडवेपणान उपाट भरिल्लो विखा–पेलो निमाण्या थेंब्या मेरेन तो पियेलो हातूंत इल्लोय दुबाव ना. ( आवाज चडोवन ) पुण हें वीख कोणें तयार केलें ? हांवें, हांवेंच न्हय ! आनी तें तयार करूनच वोगी रावलों ना. तिगेल्या पवित्र आनी निवळ हातांनी ताका तें पियेवंक दिलें. हांवें आडायल्ल्या पापांत तिकाय वांगडा ओडली आनी तिगेल्या फुल्ल धव्या तोंडाक केन्नाच पुसूंक जावचीं नात अशीं वायट लोकिकाची खतां लायलीं. हें सगलें करपी सवरपी हांवच. हांवच ह्या म्हज्या दुख्खाक आनी तांची अब्रू घालोवंक कारण जालां. हांव हें सगळें जाणां आनी वळखतां. आनी इतलेंय आसून हांव सगल्यांपरस चड दुख्खी न्हय कसो ?

**जॉर्जि :** आतांच्या तुगेल्या बेअब्रू ह्या उतराचोच उगडास कर. ताची संवसारभर बेअब्रू जाली हें तूं जाणांच. अशें आसुनय आनी तुगेलें दुख्ख कितलेंय व्हड आसले तरी तुजी सर त्या मनशाकडेन कशी जायत ? हें दुख्ख कळचे पयलीं देवान ताका आपल्याकडेन व्हेल्लो जाल्यार तो सुखी जातलो आशिल्लो. पुण

देवान तेंवूय सूख ताका दिलेंना !

**मानुयेल :** पुण म्हजे भाशेन ताका धूव ना. एक सुंदर, उजू आनी खूब मोगाची धूव. आरेरे, हे लोक आतां म्हगेल्या सगल्या पापांचें आयदन तिगेल्या माथ्यार फोडटले ! पुण हांव म्हणटां ही सगली बेअब्रू, बकच्छायो, कुस्कुटावणी, ब्रच्छन्ना ते म्हगेल्या कानसुलार कित्याक मारिनात ? तिचो बावडेचो कसलो गुन्यांव ? गुन्यांव आसलोच जाल्यार तो ताणें म्हजे कडल्यान जल्म घेतलो होच !

**जॉर्जि :** तशें न्हय रे म्हज्या भावा. त्रासांक लागून तूं कुड्डो जावन वचूं नाका. आसा ताचेपरसय तूं आपल्याक चड दुख्खी समजूं नाका. बुद्द आशिल्लो मनीस तूं हे तुगेले भोग देवाकडेन रुजू जालेबगर रावचे नात तुज्या वोंठांमेरेन पाविल्लो पेलो जरी काडूंक आयलो तरी लेगीत जें तूं भोगता तें वाशील जातलें आनी गुन्यांवांतल्यान तुजी सुटका जातली.

**मानुयेल :** सुटका ! सुटका आतां वयर, सर्गार. ताचेर जाल्यार म्हजो भरवंसो आसा. पुण ह्या संवसाराचें कशें ?

**जॉर्जि :** हो संवसार आनी तागेल्यो बडायो तूं विसर.

**मानुयेल :** त्यो सगल्यो हांवें मतींतल्यान केन्नाच काडून उडयल्यात. पुण हें काळीज मासाचें.

**जॉर्जि :** देव, खासा देवच, तुगेले धुवेचो बापूय जातलो.

**मानुयेल :** पुण हांव खरेली गजाल सांगूं जॉर्जि ? सांगूं ? ह्या येद्या व्हडल्या अपमाना उपरांत तें पोर, म्हगेलें अपुर्बायेचें मारी, म्हगेली काळजाची धूव, दीस काडीत, तग मारीत, वांचत अशें म्हाका दिसना; ना रे कशेंय जाल्यार तें जीव सोडटाच आनी खरें म्हळयार हे पसत म्हाका बरें दिसूंक जाय आशिल्लें, म्हजें दुख्ख ल्हाव जावं जाय आशिल्लें. पुण ना, तशें जायना. परतो जाल्यार म्हजो जीव कातरता. हांव निर्शेतां हांवय हेरांभाशेन एक चालंत मनीसच ! देवदूत न्हय ! (एकदम हुडकेता, मेजार लकता आनी दोनय हातांनी आपली तकली घट्ट दामून धरता. फ्रेय जॉर्जि ताच्या फाटल्यान उबो आसा. ताणें दोळे मळबार लायल्यात आनी हातांनी भावाक धल्ला.)

**जॉर्जि :** ( भावाक भियेभियेत उलो मारता ) मानुयेल !

**मानुयेल :** कितें ?

**जॉर्जि :** ( धीर दीत ) तूं समजता तितली तिची परिस्तिती वायट ना. आयज

हांव थंय वचून आयिल्लों.

**मानुयेल :** थंय गेल्लो तूं ? मागीर कशी आसा ती ? सगली खबर सांग पळोवया. अजून थंय वचून तिका पळोवंक म्हाका धीर जायना.

**जॉर्जि :** अशीं तशीं दोन वरां जायत तिगेले कुडींत वचून आयल्यार. तिगेल्या हांतुळणा म्हऱ्यांत वचून तिका पळेली. सुसरांत न्हिदिल्ली ती. आमी लिजबोआक साकून परत येतकच आनी आपले आवयची ती भयंकर अवस्ता पळेत पसून तिका बरोच जोर आयिल्लो. पुण आतां तो इल्लो इल्लो देंवत वेता. दोरोती आनी बावडो जाणटेलो तेल्मु तिचे म्हऱ्यांत आशिल्लीं. तांचे कडसून कळ्ळें कि परतून आनीक तें—

**मानुयेल :** रगत ओंकलें ना. हय. हय मू ? खंयचे ओंकतलें ? हाचे पयलीं ओंकलां तें काळजांतलें आसत जाल्यार तातूंत आनीक रगत उरचें ना. ते सुपुल्ले आनी नाजूक कुडींत रगत तें कितलेंशें आसतलें ? काल आवयच्या म्हऱ्यांतल्यान जेन्ना हांवें ताका ओडून व्हेलें तेन्ना ताणें आशिल्लें नाशिल्लें रगत म्हजे हे छातयेर रकयलें ना ? ( रगतान भरिल्लो लेंस काडून दाखयता ) हें न्हय तें रगत ? हें न्हय तें वंडो पडिल्ले म्हजे धुवेचें रगत—म्हळ्यार म्हज्याच शिरंत्रांतलें रगत ? ( लेंसाचे पटापट उमे घेता. ) देवा सायबा, तिका एक फावट तुजे म्हऱ्यांत बेगीन व्हर अशें म्हाका तुजेकडेन किंवास्यान मागचेशें दिसता. पुण ना. म्हाका धीर जायना. वायट संबंदापसून जाल्लें भुरगें अशें म्हणून दयामाया नाशिल्ल्या लोकांनी तिच्या तोंडार थुंकचे पयलीं, देवा, तुवें जर तिका तुज्या पायांकडेन व्हेल्ली जाल्यार ती तुजी कृपाच अशें हांवें मानूंक जाय आशिल्लें. पुण तशी सांगणी मागणी म्हज्यान करूंक जायना. तितलें म्हाका काळीज ना. परतो जाल्यार हांव तुका होरायतां कि तिका बलायकी दी; म्हजे धुवेक उदंड पिराय दी आनी लोकांचें सगलें रागणें, फकाणां, तिडक म्हजेर घालून म्हाका मरण धाड ! देवा, म्हाका व्हर ( सकयल ओणव्यानी पडटा. परेय जॉर्जि ताच्या म्हऱ्यांत वेता. नज जाता करून ताका उबारता आनी परतून कदेलार बसयता. )

**जॉर्जि :** मानुयेल, मानुयेल, बरें कितें वायट कितें, तें देवाकच समजता. कितें केल्यार आमकां बऱ्याक पडत आनी कितें केल्यार वायटाक पडत तें ताकाच खबर. देखून तुगेले धुवेचो फुडार ताजेरच सोपय. मन घट्ट कर आनी तिगेलें

विचारचें पडटा. तो खंय आसा आनी....कितें करता ?

**जॉर्जि :** हां समजलों. आनीक सांगपाची गरज ना. तो म्हळ्यार यात्रीक. तो हांगाच म्हगेल्या बिराडार आसा आनी म्हाका सांगलेबगर तो खंयंच भायर सरचो ना. म्हळ्यार, तशें आमचें थरलां. फकत हांव सांगन तेन्नाच ताणें भायर सरपाचें. तूं हुसकेवं नाका. तो कोणाकच मेळचो ना आनी मेळचो न्हय असो खीणच ताका मेळूंक येवचो ना. त्या भायर तागेल्या खरेल्या नांवाचें गुपीत तुका आनी म्हाकाच खबर आसा. आरसेबिशप सायबांकय आमच्या पंगडांत घेवचो पडलो. तुमगेल्या ह्या अशो तरेच्या वेगळेचाराच्या धर्मीक वावरांत कसलीच आडखळ येवची न्हय आनी ताका वोगीच कळाव लागचो न्हय देखून. हे भायर यात्रिकाले म्हणणे भाशेन आनीक एका मनशाक आमच्या विस्वासांत घेवचो पडलो. ते बगर तो यात्रीक कसलेच थारावणेक तयार जायना जालो. देखून म्हाका हां म्हणचें पडलें. आयजच तो त्या मनशाक वचून मेळटलो.

**मानुयेल :** ( आपले भितर ) कोण तर तो मनीस असो ?....हां....पुण अशें जायत ? म्हळ्यार त्या यात्रिकाक तिका पिसडून पिसडून खावपाची आसा काय कितें ? तिगेल्या पयलींच फुटिल्ल्या काळजाच्यो ताका शिन्यो शिन्यो करून उडोवपाच्यो आसात काय ? अंतस्कर्णच ना त्या मनशाक. केन्नाच नाशिल्लें. असोच जालो तो सदांच. घट्ट, निश्टूर आपले तरसादी भाशेन ! (उकतेपणान) मादालेनाक मेळूंक सोदता मू तो ?

**जॉर्जि :** न्हय रे बाबा. तो मेळूंक सोदता आपल्याक लहान व्हड केल्ल्या तेल्माक. आमगेल्या जाणटेल्या ढालदाराक. मागीर हांव नाका कसो म्हणटलो ?

**मानुयेल :** खरेंच, तें कशें जायत ? तुवें बरेंच केलें. म्हजीच चूक जाली. सद्या हांव असलें आनी इतलें सोंसतां ! तकलीच जाग्यार ना रे म्हजी. सारको अर्थच कळना म्हाका हे परिस्तितिचो. गोंदळून, घुस्पून गेलां हांव ह्या अरिश्टामुखार. हें पळे, म्हाका सांग, खरें सांग—म्हगेले बायलेक....आरेरे, बायल ! अजून खंयच्या तोंडान तिका हांव म्हगेली बायल म्हणटां ? तिका दोन मादालेनाक—हातुंतलें कितें समजलां ?

**जॉर्जि :** त्या दिसा—त्या भयंकर दिसा—पायनेलांच्या सालांत जें कितें यात्रिकान सांगिल्लें तितलेंच. तें सगलें हांवें तुका सांगून उडयलांच. तिगेलो पयलिंचो घोव जितो आसा हें ती जाणां. पुण तो खंय आसा हें ती नेणां. भोव करून तो

पालेस्तिनांत आसा अशें ती समजता आसुंये. आनी यात्रिकाल्या उतरांवयल्यान तिका तशेंच दिसूंक फावो जाता.

**मानुयेल :** म्हणटकच हांव जाणां तशी खरेली सगली खबर नकळ तर ती. तरी बरें, आशेच्या आनी दुबावाच्या आधारार तिच्यान आपल्या मनाची समजा-विशी करूंक जायत तर !

**जॉर्जि :** काल सांजवेळां न्हय, पुण रातच्यान मात तिच्या मनांत हे फटकिरे आशेचो उजवाड लिकलिकूंक लागला. तिच्या बऱ्याक आसत जाल्यार देवान तिका अशीच दवरूं.

**मानुयेल :** कित्याक दवरचो ना ? तिणें जें कितें सोसलां तें उणें न्हय तर ? आनी....मारी ? ताका बावळ्याक मात देवान नेणारपणांत दवल्ल्यार पुरो. निदान सद्या तरी....

**जॉर्जि :** ना, तिका खबर ना. तिका कोणें सांगूंक ना आनी कोण सांगचोय ना. तिणें जें कितें पळेलां तितलेंच ती जाणां. म्हळ्यार आपले आवयची ती मरण घडेर पाविल्ली दशा...! पुण ताचें कारण ती नकळ. फकत तिणे तें पारखिलें आसत जाल्यार मात. आनी ती पारखुये असो म्हाका दुबाव येता.

**मानुयेल :** म्हाकाय तीच भिरांत दिसता.

**जॉर्जि :** जावं, देव तिका आनी आमकां राखतलो. तेल्मु जाल्यार तिका हांतु-तलीं कांयच सुलूस लागूंक दिवचो ना. ते भायर हांवें तिका सांगलां ते भाशेन आपली आवय इल्ली इल्ली निवळत चल्ल्या अशें ती मानता आनी तुजीय ती वाट पळेता. अशे तरेन आज दनपार मेरेन तिका कांयच कळूंक दिवंक फावना. फुडें मागीर जें चुकोवंक येना तें तिका इल्लें इल्लें सांगचें पडटलेंच. जावं, कितें जाता तें पळोवंया. देव आमकां सांबाळटलो.

**मानुयेल :** आरेरे, म्हजे धुवे, म्हजे काळजाचे धुवे !

## देखाव दुसरो

[जॉर्जि, मानुयेल आनी तेल्मु.]

**तेल्मु :** ( फाटल्या दाराचेर भायल्यान मारीत ) तें जागें जालां.

**मानुयेल** ( आंग काडून ) आरे, हो तेल्माचो ताळो.

**जॉर्जि :** हय ( दार उकतें करून ) यो तेल्मा, भितर यो.

**तेल्मु :** तें उठलां.

**जॉर्जि :** आनी कशें आसा ?

**तेल्मु :** बरें आसा. खूब बरें आसा. बरेंच निवळल्ल्यावरी दिसता. मात सोकून काडिल्ल्यावरी, त्राण नाशिल्ल्याभाशेन जालां खरें. ताळो खोल पुण नदर शांत. दोळे सदांभाशेन झिगझिगीत पुण कालचे भाशेन उजो ओंकनात. तुमची....तुमची दोगांचीय खबर घेतली तिणें.

**मानुयेल :** आनी आवयची ?

**तेल्मु :** ना, तिचें नांवय काडलेंना तिणें.

**मानुयेल :** आरेंरे, म्हजे धुवे...धुवे म्हजे !

**जॉर्जि :** चल, आमी तिका पळोवन येवंया (भावाच्या हाताक धरून ) पण तूं म्हाका उतर दिता मू ?

**मानुयेल :** हय दितां.

**जॉर्जि :** चल, या तर. ( तेल्माक माचयेच्या तोंडार आपयत ) तेल्मा, आयज सकाळीं हांवें तुका कितें सांगिल्लें, ताचो उगडास आसा मू ?

**तेल्मु :** हें विचारचेली गरज आसा ? तें हांव विसरन काय कितें ?

**जॉर्जि :** बरें तर तूं हांगाच राव. आमी भायर सल्ले तसो तूं ती दोरी ओड. ते बराबर भितल्ली घांट वाजतली आनी एक तरनाटो पाद्री येतलो. ताका तुजें नांव सांग. तो मोन्यानी भितर वेतलो. पुण तूं हांगाच राव आनी वाट पळे. रोखडेंच भितल्ल्यान दार धांपून घे आनी बद्द हांवें उगड अशें सांगतकच तें उगड. समजलें ?

**तेल्मु :** पावलें म्हजेर. हुसक्या मेकळे वचात तुमी.

## देखाव तिसरो

[ तेल्मु आनी मागीर तरनाटो पाद्री ]

**तेल्मु :** ( घांटिची दोरी ओडूंक वेता पुण कांय वेळ फाटीं फुडें येता. मागीर मन घट्ट करून) चल ओडटलोंच. (पयस घांटिचो आवाज जाता. तेल्मु तजविजेर पडटा. तागेलो हात उबारिल्लोच उरता. )

**तरनाटो पाद्री :** तुमी कोण ?

**तेल्मु :** ( आंग काढून ) तेल्मु पाइश. ( पाद्री तकली बागयता आनी भितर वेता. )

## देखाव चवथो

[ तेल्मु एकलोच. ]

**तेल्मु :** म्हगेलें काळिजच परतलां ह्या सगल्या घडणुकांनी; आनी हांव आतां पयलिचो मनीसच उरूंक ना. फुडें कितें जातलें तें म्हाका पयलींच होलमल्लें आनी तें घडले बगर रावचें ना हाचें म्हाका खरेपणय आशिल्लें. जोंमेरेन तें घडलें ना तो मेरेन तें घडचें अशें म्हाका दिसतालें आनी आतां तें घडलां; पुण सगल्यांपरस म्हजीच भिरांतीन गुळी जाल्या. सगल्यांपरस हांवच कांचवेलां, घुस्पलां आनी गोंदळ्ळां. म्हजो नितिवंत आनी नांवाजतो धाकलो धनी, म्हगेल्या भोवमानेस्त व्हडल्या धनयाचो पूत, जितो आसा ! केदे खोशयेची गजाल ही ! ह्या म्हज्या हातांनी ताका हांवें ल्हानाचो व्हड केल्लो. आज वीस वरसां उपरांत तागेली खरेली खबर म्हाका गमतली. सगल्या मनशांनी ताची आस्त सोडिल्ली. पुण हांव मात तशें मानूंक तयार नाशिल्लों. तो आसतलोच अशें म्हाका भितर पसून दिस. तो आसप म्हळ्यार एक व्हड चमत्कार अशें पसून मानलें जाल्यार तो चमत्कार घडटलो असो भावार्त आशिल्लो. म्हाका ताची उमळशीक लागिल्ली, ध्यास्त लागिल्लो. ह्या चमत्कारान हांवें भुरकुटूंक जाय आशिल्लें. पुण म्हजी स्तिती मात उरफाटी जाल्या ! म्हज्या आंगांत आज एके तरेचो कडकडो सुटला ! हाचें कारण म्हजी ही दुसरी चली. मारी. ताणें आपल्या गुणांनी म्हाका जिखलो. ताचे वयल्या मोगामुखार म्हज्या धनयावयलो मोग फाटीं पडलो, लिपलो. देवा, ह्या म्हज्या गुन्यावांपासत म्हाका मखलाशी कर, तो गुन्यांव असो मानता जाल्यार. पुण गुन्यांव तरी कसलो जातलो ? तें पोर म्हळ्यार देवा घरचो एक निर्मळ आनी पवित्र जीव. खरेंच तें ह्या भयंकर वायटांतल्यान सुटिल्लें जाल्यार ? वाटावल्लें जाल्यार ? तें वांचिल्लें जाल्यार ? देवा, देवा, व्हरचेंच आसलें जाल्यार ह्या म्हातान्याक व्हर ! ताजो ह्या संवसारांत आतां काडयेचोय उपेग ना. ( दावे वटेनच्या दारांत यात्रीक दिश्टी पडटा. तो ल्हवू-ल्हवू तेल्माच्या म्हन्यांत येता पुण तेल्माक खबर नासता. ) हे म्हगेले

जिणेच्या त्यागान समाधान मानून घे पुण त्या बावडया जिवाक म्हज्या हातांतलो झोंपय मारून व्हरूं नाका. तुजेच खातीर ताका हांवें ल्हानाचो व्हड केला, सांबाळ्ळा. पुण इतले बेगीन न्हय. इतले बेगीन ताका व्हरूं नाका. आजवेर ताणें खूब सोंसलां आनी दुख्खांचे भाले ताच्या काळजांत खोल तोंपल्यात. देखून मरणाचें दुख्ख तरी ताचेपसून कांय वेळ पयस दवर!....

## देखाव पांचवो

( तेल्मु आनी यात्रीक )

**यात्रीक :** देव तुगेली मागणी आयकना जाल्यार पुरो.

**तेल्मु :** ( कच्च करून आंग काडून ) कोणाचो ताळो ? आं, यात्रीक दिसता. आयकना जाल्यार पुरो ? कित्याक ?

**यात्रीक :** तूं तुगेल्या नशीबफुटक्या धनयाविशीं, तुज्या हातांनी ल्हान व्हड केल्ल्या तुज्या पुता संबंदान मागनाशिल्लो ?

**तेल्मु :** ( कुशीन ) ते चलयेभायर आनीक कोणाच्याच संबंदान म्हज्यान मागूंक जायना! ( मोट्यान ) कोणाय संबंदान मागलें म्हणून ? एका अस्ताप मनशाक आयुश्य मागलें जाल्यार देव कित्याक आयकुचो ना ?

**यात्रीक :** पुण तो अस्ताप अशें तूं कित्यावयल्यान म्हणटा ?

**तेल्मु :** पुण....हो ताळो....हो वळखिचो ताळो कोणाचो ? यात्रिका, यात्रिका, तूं कोण ?

**यात्रीक :** ( चेवें काडून आनीं दोळ्यांवयले केंस फाटीं सारून ) कोण न्हय रे तेल्मा, कोऽण न्हय! तूं पसून वळखना जाल्यार हांव खरेंच कोणच न्हय!

**तेल्मु :** (ताच्या हाताचे उमे घेवंक ताचेर घालून घेता) म्हजो धनी.... म्हजो राजा.... खरेंच तुमी ?.... हय, हय, तुमीच. दों जुआंव दे पुर्तुगाल, म्हजो मालक!

**यात्रीक :** तुजो पूत न्हय ?

**तेल्मु :** पूतच. म्हजो पूत. सामको.... सामको पूत. हो ताळो, हें तोंड, हे दोळे. फकत हें खाड, हे केंस मात न्हय. म्हगेल्या पिक्या केंसांपरसय ते चड धवे जाल्यात!

**यात्रीक :** पापया, उबीं वीस वरसां काडल्यांत हांवें बंदखणींत. एक आनी दोन न्हय. आनी तिंवूय कशीं ? हालांनी, उतळतापांनी. तुमचो उगडास काडीत, उत्फरके दामीत, एक एक दीस हांव सारतालों. म्हज्या धव्या माथ्याक एकच रात पुरो जाली ! आल्कासैर किबीरच्या झुजा उपरांत आयिल्ली ती काळी मिरां-कूळ रात ! आनी म्हज्या खाडाक जाल्यार पालेस्तिनांतल्या त्या हुलप्या वोतान आनी जोर्दांव न्हंयेच्या खाऱ्या उदकान पुराय निवळायलें.

**तेल्मु :** इतले पयस भोंवले तुमी ?

**यात्रीक :** आनी तितलेच पयस मेल्लों जाल्यार सुटिल्लों. पुण देवाक तशें नाका जालें.

**तेल्मु :** देवाची तरी खोशी जावं.

**यात्रीक :** कित्याक ? तुका वायट दिसलें ?

**तेल्मु :** कितें ?

**यात्रीक :** तुका वायट दिसलें काय म्हणटां ?

**तेल्मु :** कितें म्हणटात तुमी हें ? तुमकां आयुश्य जालें जाल्यार म्हाका वायट दिसतलें ? ( कुशीन ) देवा, गुन्यांव भोगोस हांवें ही फट माल्ही जाल्यार.

**यात्रीक :** कित्याक दिसचें न्हय ? खासा म्हाकाच म्हजी जीण जड जाल्या. इश्टा, आयक...तूं म्हजो मू ?

**तेल्मु :** न्हय तर ?

**यात्रीक :** हय, हांव जाणां. पुण वीस वरसांमेरेन तुटिल्लो संबंद, नव्या इश्टां-कडेन जाल्लो एकचार, हाका लागून चड पिराय जाल्ल्या मनशांचो कोणाकय विसर पडटा ! पुण...पुण तूं म्हगेलो इश्ट न्हय ? तूं न्हय जाल्यार आनीक कोण आसतलो म्हाका इश्ट ?

**तेल्मु :** सायबा म्हज्या !

**यात्रीकः** हांव हें सगलें काबार करून केन्नाच हांगाचो कडसरपाचों. पुण तुजेकडेन उलयलेबगर आनी तुज्या तोंडांतल्यान सगली खबर कळचे पयलीं वचचें न्हय अशा विचारान हांवें तो बेत फुडें धुकल्लो.

**तेल्मु :** कितें सांगूं तुमकां हांव ? हांव जाल्यार....

**यात्रीक :** तूं....तूं म्हज्या मरणाविशीं सदांच दुबावलो हें हांव जाणां. इतलेंच न्हय तर म्हज्या मरणाचे कसलेच गवायेमुखार तुवें हार खाली ना आनी तुगेल्या

दुबावाक तूं घट्ट दसून रावलो हेंवूय म्हाका खबर आसा. तुजें म्हाका अजाप जालें ना. पुण तेच बराबर–हांव देवाचो उगडास करून सांगतां–जे कोण म्हज्या मरणाचेर विस्वासले तांचोय हांवें केन्ना गुन्यांव घल्लो ना. कित्याक, कोणाचेय मतीक पटपासारक्यो सगल्यो गवायो तेंच सांगताल्यो. पुण तांचेकडेन तग मारूंक शकतालें तें फकत काळीज. पुण म्हजें अशें काळीज हांगा कोणाकच नाशिल्लें !

**तेल्मु :** तुमी अन्याय करतात.

**यात्रीक :** तुका कितें सांगपाचें आसा तें म्हाका कळटा. पुण हें सगलें खरें ? ....तिणें म्हाका सगळेकडेन सोदलो, चोंयवटेन मनीस धांवडायले, पयसो घाडलो हें सगलें खरें ?

**तेल्मु :** देवाच्या खरेपणा इतलेंच हें खरें. तेच भाशेन ते बायले इतली नितिवंत आनीं मानादीक बायल ह्या देशांत दुसरी ना हेंवूय तितलेंच खरें.

**यात्रीक :** पुरो. अशा असोच वच आनी तिका सांग कि तो यात्रीक म्हळ्यार एक फटकिरो मनीस. तो अकस्मात नाच जालो आनी ताची परतून कसलीच खबर मेळ्ळी ना. हो एक सगलो हीण कट आशिल्लो आनी तो ताच्या... म्हळयार...जाचेर ती मोग करता ताच्या–दुस्मानांनी रचिल्लो. आनी सांग कि मन थंड दवर आनी....आनी सुखी जा ! तेल्मा, चल्लों हांव. तुका म्हजो निमाणचो नमस्कार !

**तेल्मु :** एका हलकट आनी हीण मनशाभाशेन फट मार आनी तुमचेकडेन बेमान जा अशें तुमी म्हाका सांगतात काय कितें ? तांतुतलो हांव न्हय.

**यात्रीक :** हय. हांव तुका तशें फर्मायतां.

**तेल्मु :** तुमगेल्या एका चाकराच्या विस्वासाचो असो अंत पळोवं नाकात. खरेंच नाका. तुमकां खबर ना; सायबा, धनयां, म्हज्या पुता, तुका खबर ना.

**यात्रीक :** कितें तें ?

**तेल्मु :** कि हांगा एक देवदूत आसा...म्हजी एक दुसरी चली, हांवेंच ल्हान व्हड केल्ली....

**यात्रीक :** जिचेर तुजो खूब मोग आसा, म्हजे परसय चड....! खरेंच सांग

**तेल्मु :** तें म्हाका विचारूं नाकात.

**यात्रीक :** विचारपाची गरजच ना. अशेंच जावपाचें. तेल्मा, तूंय पसून मरे? सगले वटेन नागवलों रे हांव. ( थोडया वेळान ) आनी तांकां एक पुतय आसा

मू ? तशें जाल्यार मात....कल्पनाय करूं नज म्हज्यान...आरेरे भोंगूं तांचें! कालची रात तांणी खूब त्रासांनी, म्हजेपरसय चड त्रासांनी काडली जातली. ते तांगेले त्रास देवाकडेन रुजू जावं आनी तो तांका भोगसणी दिवं! चल, तेल्मा, हांवें सांगिल्लें तशें कर, वच.

**तेल्मा :** देवा सायबा, हांव कितें आनी कशें म्हणून करतलों हें ?

**यात्रीक :** तुगेल्या धनयान फर्मायलां तशें. तेल्मा, हांगा यो. म्हाका एक वेंग मार ( एकामेकांक वेंग मारतात. ) चल, आतां तुका म्हजो नमस्कार. येतां हांव!

**तेल्मु :** केन्ना येतात ?

**यात्रीक :** निमण्या हिसबा वेळार.

**तेल्मु :** म्हळ्यार तुमी....तुमी....

**यात्रीक :** हांव....म्हजेविशीं तुका वेळार कळटलें. सद्या, केल्ली चूक निस्तारूंक जाय हांवें पिशेपण केलें, अन्याय केलो. हांव चड कडक जालों, क्रूर जालों. आनी कसल्याशा कामाक ? दों जुआंव दे पुर्तुगाल मेलो, ज्या दिसा तागेले बायलेन तो मेलो अशें सांगलें. तागेल्या मोगाचे भोव बरे आनी नितिवंत बायलेन. खरेंच तेल्मा, हांव तिचेर कितल्या मोगान मोग करतालों! आतां मात अपमान आनी लज सोंसलेबगर मोग करूंक जावचें ना. ज्या खिणांत म्हज्या मरणाचेर तिणें विस्वास दवल्लो त्याच खिणांत हांव सोंपलों. ज्या हातांत तिणें दुसऱ्याचो हात घेतलो त्याच हातान तिणें म्हजें नांव चिल्लें. पुण दों जुआंव दे पुर्तुगाल आपले रांडाव बायलेचें नांव इब्राडचो ना. केन्नाच ना. चल; तुवें सांगल्यारच ताका दुपटीन नेट येतलो. तिका वचून सांग, आपूण यात्रिकाकडेन उलयलों; ताका बारिकसाणेन पळेलो आनी आपली पुराय खात्री जाली कि तो एक फटींग आनी तड्डकी मनीस. तुका जाय तें आनी येवजत तें सांग. पुण हे लजेंतल्यान तिका सोडय आनी म्हज्या नांव-लोकिकाकय अपमानांतल्यान वांचय. म्हाका जाल्यार आतां नांवलोकिका भायर म्हजें अशें कांयच उरूंक ना. ताची यादस्ती सदांच निवळ उरूं. हें काम तुज्या हातांत आसा. म्हजे जिणेपरसय चड मोलाचो हो वावर तुजेरच सोंपयतां. फाटीं सरचो ना मू तूं ?

**तेल्मु :** ना सायबा ना. तुमची ही थारावणी व्हड अंतस्करणाची आनी तुमकां सोबसारकी आसा. पुण आतां तिचो उपेग आसतलो काय ?

**यात्रीक :** कित्याक आसचो ना ?

**तेल्मु :** सांगतां.

## देखाव सवो

[ यात्रीक, तेल्मु आनी मादालेन ]

**मादालेन :** ( फाटल्या दाराचे भायलेवटेन ) घोवा, म्हज्या घोवा, उपकार करून दार उगड. म्हाका बरें खबर आसा तूं हांगा आसा तो. दार उगड.

**यात्रीक :** आरे, ती म्हाका उलो करता. आरेरे, खासा मादालेनच म्हाका उले मारता....

**तेल्मु :** तुमकां....!

**यात्रीक :** तर आनीक कोणाक ? तुवें आयकलें ना, "म्हज्या घोवा, म्हज्या घोवा" म्हणटा ती ?

**मादालेन :** म्हज्या प्राणपती, आमच्या मोगाखातीर, तुवें म्हाका दवरिल्ल्या तरेकवार गोड गोड नांवांखातीर, आमगेल्या पयलिंच्या उगडासा खातीर, म्हगेलें निमाणें उतर मोडूं नाका.

**यात्रीक :** कितलीं सुंदर, कितलीं भूल-भुलायणीं हीं उतरां ! हांव ना कशें म्हणूं तिका ?

**मादालेन :** म्हज्या घोवा, काळजाच्या राजा, मानुयेल !

**यात्रीक :** आरेरे, हाय हाय ! आनी हांव इतलो भयरो, मेड्डो जालों कि ती म्हाकाच उले मारता, म्हाकाच आंवडेता अशें हांवें धल्लें ! स्वंय सर्ग आनी स्वंय नरक ! चल आतां हें दार उगडटां आनी दाखयतां.....( नेटान दाराकडेन धांवता; पुण मदींच थांबता ) ना, उतर दिलें तें दिलें. ( धब धब करून घाट वाजोवपाचे दोरयेकडेन धांवता आनी नेटान घांट वाजयता. तरनाटो पाद्री येता, यात्रीक ताका कुरू करता आनी दोगय जाण दावे वटनेच्या दारान नाच जातात. )

## देखाव सातवो

[ तेल्मु, मादालेन; मागीर जॉर्जि आनी मानुयेल दे सौज. ]

**मादालेन :** (अजुनय भायल्यानच) जॉर्जि, म्हज्या भावा, तुमी भितर आसात हें हांव बरेभाशेन जाणां. उपकार करून दार उगडात. म्हाका म्हज्या....न्हय, तुज्या भावाक एकच उत्तर सांगपाचें आसा. हें फुडें आनीक तुमकां इल्लेय त्रास दिवचीं ना. आनी जें जें तुमी सांगशात तें तें हांव मोन्यानी करतलीं. ( इतले मजगतीं तेच वाटेन भायल्यान पावलां वाजतात आनी जॉर्जिलो ताळों आयकूंक येता ).

**जॉर्जि :** ( भायल्यान ) तेल्मा, दार उगड पळोवया, बेगीन उगड.

**तेल्मु :** हांव एकलोंच आसां हांगा.

**मादालेन :** (भितर येता. केंस विस्कुटलेले. तकली ताळ्यार नाशिल्ली आनी कुडींत सगलेकडेन नदर भोंवडायत) तूं हांगा एकलोच आशिल्लो तेल्मा ? आनी तो खंय तर ?

**तेल्मु :** तो ? तो कोण मादालेन बाय ?

**जॉर्जि :** ( मुखार येवन ) तेल्मु हांगा एकलोच म्हजी वाट पळेतालो. आनी हांव आयल्याबगर कोणाकच भितर सोडूं नाका अशें ताका हांवें सांगून दवरिल्लें.

**मादालेन :** पुण हांगा दोन ताळे आयकूंक येताले. हांवें बरे भाशेन आयकल्यात.

**तेल्मु :** ( भिरांतीन ) तुमी आयकल्यात ?

**मादालेन :** हय. सारके आयकल्यात. तेल्मा, खंय आसा तो ? म्हजो घोव खंय आसा ? मानुयेल दे सौज खंय आसा ?

**मानुयेल :** ( मादालेन भितर आयिल्ली तेन्ना मानुयेल सामको फाटले वटेन आशिल्लो. पुण तिची नदर ताचेर वचूंक नाशिल्ली. आतां मानुयेल मुखार येता ) हो पळेयात. तो मनीस हांगा आसा. कितें काम आशिल्लें ?

**मादालेन :** आवयस ! कसली ही चर्या; कसली ही भास, हो ताळो, ही उलोवपाची तरा ?

**मानुयेल :** ( कळवळ्यान ) मादालेन....( आपले भितरच गुल्ल जावन

गंभीरतायेन ) कशे तरेन उलोवं तुजेकडेन आनी कितें उलोवं ? सगलें उलोवन जालें ना आमचे भितर ?

**मादालेन :** सगलें जालें ? कोण जाणां. म्हगेलें उल्लां. पुण अशें सांग.... बारकायेन पळे...खोलायेन विचार करिनासतना फट् करून आनी कुड्डया भावार्तान आमी त्या यात्रिकाच्या गूढ उतरांक फाजील म्हत्त्व दितात अशें दिसना तुका ? कोण खंयचो यात्रीक, आगा पिछा नाशिल्लो फटींग म्हणून कोण जाणां ! बरे भाशेन पळे.

**तेल्मु :** ( जॉर्जिक ) तुमकां कितें सांगपाचें आशिल्लें- ( कुशीन वचून फुतफुतता ).

**मानुयेल :** मादालेन-मादालेन, तुका सांगपाचें आनीक म्हजेकडेन कांयच उरूंक ना. देवासामकार सोपूत घेवन तुका सांगतां. विस्वास दवर, हाचेमुखार आमचो मोग आनी एकचार शक्य ना !

**जॉर्जि :** ( तेल्माकडेन अजुनय फुतफुतता. मागीर धेंगशेवन ) अशक्य, आतां अशक्य....आनी सदांच अशक्यच जावपाचें.

**मादालेन :** ( जॉर्जिकडेन मान फिरावन ) जॉर्जि, तुमीय बी ?

**जॉर्जि :** ( तिचेकडेन तोंड करून ) हांव तेल्माकडेन उलयतालों भयणी. ( तेल्माक ) तेल्मा, चल; तुका सांगलां थंय वच. तुजी थंयच चड गरज आसा. ( ताच्या कानांत उलयता. मागीर मोटयान ) तिका एकली दवरूंक नाका. निदान त्या कळेच्या वेळामेरेन ( तेल्मु जिवार येवन वेता. ताचे पयलीं तों घुसपत घुसपत मादालेना म्हऱ्यांत वचूंक पळेता. पुण जॉर्जिक तें समजता. तो ताका निक्षेपून कुरू करता आनी तेल्मु फाटल्या दारांतल्यान भायर कडासता. )

## देखाव आठवो

[ मादालेन, मानुयेल आनी जॉर्जि ]

**मादालेन :** जॉर्जि, म्हज्या भावा, हरशीं तुमी इतले विचारीक आनी चिकित्साये मनीस आसून म्हगेल्या दुबावाक तुमी म्हत्त्व कित्याक दिनात ?

**जॉर्जि :** तें दिवंक मेळिल्लें जाल्यार म्हज्यासारको सुखी मनीस हांवच अशें मानतलों आशिल्लों.

**मादालेन :** म्हळ्यार तुमचोय ताचेर विस्वास....?

**मानुयेल :** मादालेन, ह्यो सगल्यो गजाली आतां आमकां सोबनात. आमी देवाकडेन आनी मनशांकडेन केल्ल्या चुकांक कालमेरेन आमच्या अंतस्कर्णांतल्या निर्मळ भावार्ताचो आनी निश्कळंकपणाचो आधार आशिल्लो. तो सोंपलो. आमकां आतां सुतकी वस्त्रांभायर आनी कोव्हेंतांतल्या मरणाबगर दुसरो उपाय ना ! आमी घेतिल्ली तीच थारावणी आतां शक्य आसा. आतां फाटीं सरप ना. काल पयरच आमी अशे त्रास भोगिल्ल्या मनशांच्यो खबरी केल्ल्यो. आमच्याय कपलांत हेच भोग भोगपाचे आसात अशें कोणाक दिशिल्लें ? नशिबांतलें घडीत कोणाच्यान चुकोवंक जायना. आतां धीरान आमची नदर त्या खुरसाकडेन लावंया. मादालेन आतां एकूच फावट.... ह्या संवसारांत निमाणचे खेपे.... म्हज्या मोगा.... ( तिका वेंग मारूंक वेता पुण फट् करून फाटीं सरता. ) ना, ना, वेतां हांव, वेतां ! ( दावे वटेंतल्यान घो घो करून धांवत वेता. )

## देखाव णवो

[ मादालेन, जॉर्जि. भितल्ले वटेन पाद्रींली प्रार्थना चलता ]

**मादालेन :** आयक, मात्सो राव, एकच उतर....मानुयेल दे सौज, म्हगेलें एकच उतर आयक ( भितल्ल्यान ऑर्गन वाजता. )

" खोल खोल काळजांतल्यान तुका उलो मारतां देवा,
देवा, तूं म्हज्या उल्याक पाव ! "

**मादालेन :** ( खुरसाक वेंग मारून ) देवा म्हज्या ! जालो ? वेळ पावलो ? इल्लोय उरूंक ना ? ना ? देवा, तूं दुखेस्त मनशांचो आधार ! तूंच म्हाका ह्या वेळार राख. तूंच म्हजो राखणदार ! ह्या संवसारांत एकलीच दवरून सगळीं जाणां म्हाका सोडून गेलीं ! म्हज्यान एकलेच्यानच हें सगळें दुख्ख तोलूं नज ! हांव म्हळ्यार सर्गावयल्या आनी ह्या संवसारांतल्या लोकांचो एक दुख्खाचो आनी अजापाचो खेळ जाल्यां. देवा, घे, सगळें घे. म्हजें म्हणून ह्या संवसारांत कितें आसा ना तें सगलें घे. पुण म्हगेले मारीकय बी ध्हरता ? तिवूय तुका जाय ?

आरेरे, म्हगेली धूव. म्हगेली अपुर्बायेची धूव. व्हर, तिवूय तुका दितां. म्हजे कडल्यान आनीक कितें जाय तुकादेवा ? ( भितल्ल्यान नव्यान ऑर्गन वाजतां आनी प्रार्थना जाता )

" कळवळ्यान केल्ले म्हजे पराथणेचो ताळो
सायबा, तूं कान दिवन आयक ! "

**जॉर्जि :** येयात, म्हजे भयणी येयात. हो आयकात देवाचो उलो. तो तुमकां आपयता. ताच्या उल्याक जाप दियात. धर्मीक विधीक आरंब जालो.

**मादालेन :** ( दोळ्यांतलीं दुकां पुसून आनी मन घट्ट करून ) तो गेलो ?

**जॉर्जि :** हय गेलो.

**मादालेन :** ( उठत ) हांवय वेतां. ( दोगांय भितल्ल्या दारांतल्यान वेतात. )

## देखाव धावो

[ फाटलो पड्डो वयर सरता आनी सांव पावलाची इगर्ज दिश्टी पडटा. प्रार्थनेखातीर पाद्री बशिल्ले आसात. व्हडल्या आल्तारा म्हऱ्यांत बेंफिकचो स्वामी उबो आसा. आल्ताराचेर संन्याशाचीं आनी जोगिणिचीं वस्त्रां. स्वामीच्या उजव्या हाताक मानुयेल दे सौज दिमी मारून आसा. ताणें ब्रह्मचाऱ्याचो पोशाक केला. आर्सेबिशपसायब ( व्हडलो स्वामी ) फाटीर व्हडलें पाल सोडून आनी माथ्याक जरी तोपी घालून आपल्या ऊंच आसनार बसला. ताचे भोंवतणीं लांब, मोटवीं पालां बी घालून हेर पाद्री आसात. थोड्या वेळान जॉर्जि मादालेनासयत भितर येता. तिणेंय ब्रह्मचारिणीचो पोशाक घाला. मादालेन स्वामीच्या दाव्या हाताक दिमी मारून बसता. ऑर्गन वाजता. ]

" आमचे गुन्यांव तूं मतींत धरशीत तर
धनयां, तुज्यामुखार थारूंक कोणाक जायत धीर ? "

**स्वामी :** (आल्तारावयलीं वस्त्रां काडून ) मानुयेल द सौज कौतीन्यु, म्हळ्यार आतां इमांव लुईज द सौज, तुमीं पयलिंचे जिणेंतल्या सगल्याक सोडचीट दिल्या; तेच भाशेन ज्या नांवान ह्या संवसारांतलो लोक तुमकां आयज मेरेन वळखत

आयला तेंवूय पोन्नें नांव आज तुमी ह्या संवसाराक सोडून दितात. मादालेन भयणी, तुमी दोगांय ह्या संवसारांत व्हड नामनेचीं आनी बडवचाराचीं मनशां जावन गेल्यांत. पुण आयज हांगा येवन हे धर्तरेवयले मातयेंत तुमी नमळायेन आनी किरकोळ वस्त्रां न्हेसून देवा पांयार घालून घेतलां. आयज तुमी सगल्याचो तुमच्या जिवासयत त्याग केला. क्रिस्ताच्या नांवान आतां सांव दोमिंगच्या पाद्री-कडल्यान ही संन्याशी वस्त्रां घेयात.

## देखाव इकरावो

[ बेंफिकचो स्वामी, आर्सेबिशपसायब, मानुयेल, मादालेन आनी हेर लोक. मारी धांपेत, खरशेत भितर येता. तें पुराय मादनार जालां. तिगेल्या आंगांतली धवी मुस्तायकी चुरिल्ली आनी गळिल्लेवरी. केंस सुटिल्ले. तोंड चिंविल्लें, पुण पोल्यार शाणेपणाची तांबडसार कांत; दोळे पोंवशेल्ले. मदींच थांबता. आवय-बापायक वळखता आनी तुरतुरीत तांचे म्हऱ्यांत वेता. सगल्यांक अजाप जाता. धर्मीक विधी थांबता].

**मारी :** पापा, म्हज्या पापा, आई गे, उठात. हांगा येयात. ( तांकां हातांक धरून ओडटा. तीं मोन्यानी आयकतात आनी माचयेच्या तोंडार येतात. सगले-कडेन गोंदळ मात्ता. )

**मादालेन :** मारी, म्हगेले धुवे !

**मानुयेल :** बाय ! म्हज्या बाय... दोगांय जाणां ताका वेंग मारतात. )

**मारी :** ( तांकां हेर लोकांपसून कुशीक काडून माचयेच्या तोंडार हाडटा) रावात, हांगा म्हजेबगर कोण मरचीं नात. तुमी कितें करूंक सोदतात ? कसलो देव हो, आल्तारार बशिल्लो, धुवेपसून तिगेल्या आवय-बापायक व्हरपी ? ( भोंवतणच्या लोकांक) कोण तुमी मसणांतल्या भुतांभाशेन म्हगेल्या आवय-बापायक झोंपय मारून व्हरूंक आयल्यात ? ही म्हजी आवय, हो म्हजो बापूय; हांव तांची धूव. म्हाका कितें पडलां त्या दुसऱ्याचें ? कसली पर्वा म्हाका ताची ? तो येव वा येवं नाका. आसूं वा मरूं; तो फोंडांत पडूं वा जितो जावन म्हाका....म्हाका मारूंक येवं; म्हाका कसली बिशाद ताची ? मार म्हाका, जायच जाल्यार म्हाका मार. पुण म्हजे आवयक दवर, बापायक दवर. तीं जाल्यार म्हजीं, सामकी म्हजीं!

अकस्मात एका भरिल्ल्या घरांत रिगून घरकाराक आनी घरकान्नीक तुमी दोगांय घोव–बायलां न्हय अशें दांतपाडया भाशेन सांगप; आनी ही धूव,तुमगेल्या मोगाची धूव-तुमी खांदार बाळून मायेमोगान आनी अपुर्बायेन वाडयल्ली ही धूव म्हळ्यार...! पुण आई, म्हाका हें सगलें खबर आशिल्लें. तुका मात केन्नाच सांगलें ना. म्हाका त्या सर्गावयल्या भिरांकूळ देवदुतान हें सांगिल्लें. तो म्हाका सुसरांत न्हिदूंक दिना आशिल्लो. उज्याची तरसाद घेवन तो सकयल देंवतालो आनी आमच्या दोगांयभितर खस्स करून धोंगशितालो. तुगेल्या हातांचेर हांव न्हिदिल्लें आसन जाल्यार तो म्हाका ओडून व्हरतालो. तुगेले कुशींक आसतना म्हगेलो बापूय म्हजो उमो घेवंक आयलो जाल्यार तो आडायतालो आनी म्हाका रडयतालो. आई, आई, म्हाका हांगा एकलीच सोडून तुवें मरूंक जायना. पापा, तुगेले हे मुस्तायकेचो इल्लोसो कुडको म्हाका दी. तो येवचे पयलीं हांव जीव सोडटलीं ( बापायल्या वस्त्रांत आपल्याक गुटलावन घेवन ) तो पावचे पयलीं हांव हातूंत लिपतलीं. ह्या भुरग्याचो जल्म गुन्यावांतल्यान जालो, पापांतल्यान जालो अशें सगल्यां हुजीर आनी म्हज्या तोंडार सांगचे पयलीं हांव ताका म्हगेलें तोंड दाखोवचीं ना. पुण हांव तशी न्हय. पापा, हांव पातकी न्हय अशें ताका सांगात. मोटयान, सगल्या हुजीर ताका सांगात. (आवय म्हऱ्यांत वचून) बावडी आवय! तुज्यान हें जावचें ना! भोंगूं तुजे. तूं भोजूड. तूं केन्नाच फट उलोवंक ना! आयज उलय तर. आपले धुवेचें नांव राखूंक, तिचो लोकीक सांबाळूंक आज फट मार.

**मादालेन :** देवा, आमची काकुळट कर.

**मारी :** आई, सांगना तूं? पापा, तूंय सांगना? हांव अशीच मरूं तर? हो पळे तो आयलो....

## देखाव बारावो

[ मारी, मानुयेल, मादालेन; यात्रीक आनी तेल्मु व्हडल्या आल्तारा फाटले-वटेनच्यान येतात. ]

**यात्रीक :** चल तेल्मा, वच. अजून तांकां वाचोवंक जाता जाल्यार पळे. अजून वेळ आसा.... ( तेल्मु मुखार येवंक पळेता. )

**मारी :** ( यात्रिकाकडेन बोट दाखोवन ) हो पळे, ताचोंच हो ताळो ! खऱ्यानीच आयलो. ना, आतां वेळ ना. आतां खूब कळाव जालो ! आई, पापा, म्हजें तोंड घट्ट लिपयात...हांव लजेन मरतां ( आवयचे कुशींत तोंड लिपयता. ) खऱ्यांनीच हांव लजेन मरतां ! ( घो करून जमनीर पडटा आनी जीव सोडटा. मानुयेल आनी मादालेन धुवेचे कुडी म्हऱ्यांत घालून घेतात. )

**मानुयेल :** ( थोडया वेळान उठटा आनी दिमी मारून ) भयणी, ह्या सोंपिल्ल्या आत्म्या पसत आमी देवाची प्रार्थना करुंया. आमचे आत्मे देवा–घरा गेल्ल्या त्या देवादुताक दिवन उडोवंया. पाद्रीसायब, तीं वस्त्रां म्हजेकडेन उडयात पळोवया.

**पाद्री :** ( आल्तारावयलीं वस्त्रां हाडून ) भावा आनी भयणी, देव जांचेर मोग करता तांकांच ह्या संवसारांत भेसडायता. मानाचो मुकूट सर्गा भायर दुसरेकडेन मेळना.

[ ऑर्गन वाजता; पड्डो पडटा. ]

★ ★ ★

मोल रु. ५-००



'यात्रीक' चो खेळ कोंकणी भाशा मण्डळान १३-१-७८ दिसा गोमन्त विद्यानिकेतनचे माचयेर पयलेच फावट व्हाडलो. १९७७-७८ च्या अकादमीचे नाटका-सर्तीत ह्या नको खेळाक पयलें इनाम फाव जालें.

↑ जॉर्जि : अनील पै आनी
यात्रीक : नागेश कोचकार

फुडें- मानुयेल द सौज :→
ज्ञानेश्वर कोलवेकार.
मारी : वंदना मोळयो. आनी
मादालेना : शीला लोलयेंकार
फाटीं - जॉर्जि आनी
आरसेबिस्प:
सोतेरियु बार्‍हेतु.

